*हांव मनीस जालों !*

डोरिन : बाये उंदिर नां, तूं भियेनाका.

निर्मला : उंद्राक पोळयल्यार म्हाका भ्यें दिसता.

डोरिन : हांगा आमचो व्हड्लो उंदिर म्हळ्यार मर्विन.

मर्विन : म्हाका तुवें उंदिर म्हळेंय, राव तूं, घरा ये; हांव तुजी कडी करतां पळे !

डोरिन : तूं कडी कर्ताना हांवी पळेवन काण्घेतां. आतां आमीं तोडो वेळ टीवी पळोंव्यां आनी उप्रांत जेवयां.

*(रंगमंचा वयले दिवे पालवातात. – परत पेट्ताना..)*

*(रंगमंचा वयर मंद उज्वाड़. निर्मला एकलेंच आपल्या बेड रूमांत निद्लां. रंग–मंचाचा एका कुशिन बेड रूम. मुखलें धार उगतें करन सवकास जोनी प्रवेश जाता. ताच्या उजव्या हातांत सुरी आसा. तो आवाज करिनास्ताना सरव कूडानीं प्रवेश जावन तपासता. माळयेर चडोन पळेयता. घरांत कोणी नांत म्हळ्ळें समजोन ताका निराशा जाता आनी तेदनां ताची दीष्ट निर्मलाच्या बेड रूमाचेर व्हेता. तो एक मॅट पाटीं काड्ताना ताचो पाय ताच्या धाव्या हाताक लागोन फुलांचें वाज़ सकयल पोडता आनी व्हड आवाज जाता. निर्मालाक जाग जावन तें उटोन वसता )*

निर्मला : डेडी, माम्मी तुमीं आयल्यात? म्हाका केक हाडन आयल्यात? तुमीं काळोकांत कितें करतात? लायट कित्याक घालुंक नां?

जोनी : *(एकाच उडकेन निर्मलालागीं व्हेता आनी ताचो हात धरन वोडन हाडन रंगमंचाचा मधें उभें करन सुरी ताच्या गळयाक धरता.)* तुजा तोडांतल्यान एकच एक उतार आयलें जाल्यार ह्या सुर्येन तुजी सुकुर–नळी कात्रुन सोडतां. हांव हांगा तुजें रगात वळोंवक येंवक नां. पूण गरज पड्ली तर हांव कितेंयी करुंक तयार आसां.

निर्मला : म्हजो हात सोड म्हाका दुक्ता. तूं कोण आमगेर कित्याक आयलाय? म्हजी माम्मी डेडी पारटेक घेल्यांत. आनिकी येंवकनांत.

जोनी : तीं पारटेक व्हेताना हांवें पळेयलां. पुण अजूनी येंवक नांत म्हणटाना घरचो हुस्को तांका कित्लो आसा तें म्हाका समजाता. तुजो व्हो नाटक वंध कर आनी म्हाका मार्की जावाब दी.

निर्मला : हांवें कसलो नाटक केलो. म्हाका नाटक करूंक येना. म्हाका सोड. म्हाका नीद येता. तुका माम्मी डेडीक मेळोंक असल्यार हांगासर बस. म्हाका निदोंक जाय. म्हाका सोड़ *(निर्मला उड्डोन ताचो हात सुटयता.)*

जोनी : अळे भयर धांवचें प्रयत्न केल्यार हांव तुका कोसावन घालुंक आसां. तेदाळा तूं सासणची नीद निद्‌तेलेंय !

निर्मला : तूं म्हाका निदायताय? तुका पोदां म्हणोंक येता? हांव निद्‌ताना म्हजी माम्मी पोदां म्हणटा. तेदाळा हांव निद्‌तां. तुजें नांव कितें? तूं आमगेर पयलें कित्याक येंवक नांय?

जोनी : बोरी मालामत जालीमू ! म्हाका भोगता ह्या चेड्‌वा थंय कितें तरी ऊण आसोंक जाय. हाका एक्ल्याक घरांत सोडन रातिचें भोंवडी मार्तात हाचीं व्हडिलां. व्हा रेमी कुलासो.. व्हा ..!

निर्मला : म्हज्या डेडीचें नांव तुका कळित आसा. तर तूं पयलें कित्याक येंवक नांय आमगेर. म्हजे सांगाता खेळोंक कोणीनांत. डोरिन आनी मर्विन मात्र. दिसाक तीं इस्कलाक व्हेतात. तेदाळा हांव एकलिंच आस्तां. तेदाळा म्हजे सांगाता कोणी केळाना.

जोनी : तुजें नांव कितें बाये?

निर्मला : म्हजें नांव निर्मला. मर्विन म्हाका निम्मी म्हणटा.

जोनी : मेलविन? व्हो.. हो.. तुकायी एक बोय फ्रेंड आसा तर?

निर्मला : मेलविन न्हय, मर्विन ! व्हय, तो बोय म्हजो फ्रेंड़. तो अत्तां डोरिना सांगाता गेलो. ताका फाल्यां इस्कोलाक व्हचोंक आसा ने? देकुन हांवें तांकां व्हचा, हांव निद्‌त्तां म्हळें. ताणीं व्हेताना बागिल घाल्लें. तूं भितर कसो आयलोय?

जोनी : वंध आमल्लीं वाग्लां उगतीं कर्ची विध्या हांव जाणांगो बाये. तुका खेळोंक वरें लाग्ता तर आमी आतां एक खेळ खेळयां. तुजी डेडी माम्मी येता म्हणासर म्हाका राकोंक आसा.

निर्मला : म्हाका नीद येता. आतां खेळचें नाका. तूं फ़ाल्यां सकाळीं ये. आर्मी सांगाता खेळयां.

जोनी : अळे निर्मला, हांवें तुका निम्मी म्हण आपोवयेत मूं?

निर्मला : अपय. म्हाका वरें लागता.

जोनी : तुमगेर दोरी आसा न्हयवे?

निर्मला : दोरी? दोरयेंत कसोलो खेळ खेळोंक जाता? हां.. हां.. तुका स्किप्पींग खेळोंक आसा?

जोनी : स्किप्पींग न्हय तूं दोरी हाड, नवो खेळ हांव शिकयतां. *(निर्मला भितर वेता)* रेमी कुलासो तूं तर तुजा पात्काचें प्रयाश्चित्त तुजा धुवे द्वारीं करन आसाय. देवान दोळे धांपुंक नांत. ताणे तुजी दोरी वोव पयलेंच आर्दिल्या आनी आतां तुजा धुवेन हाड्च्या दोर्ये मारिफ़ात हांव ती पुर्ती आर्दितां.

निर्मला : *(दोरी हाडता)* ही दोरी भारिक आसा जायत मूं?

जोनी : व्हा.., ह्या दोरियेन हांवें चिंतिनातल्लें काम जाता. अळे निम्मी हांव तुका वरो लागतां मूं ..

निर्मला : व्हय.

जोनी : आतां हांव ह्या दोर्येन तुजे हात आनी पाय बांद्तां. तुका हांव दुखयना.

निर्मला : तुवें म्हजे हात आनी पाय बांद्ल्यार आमी खेळ्चें कशें?

जोनी : तें तुका हांव तुजे हात आनी पाय बांद्ल्या उप्रांत सांग्तां. आतां आमीं तुजा बेड रूमाक या. हात-पाय बांद्ल्या उप्रांत हांव तुजा तोंडांक व्हो कुडको भादतां. तुवें व्हगेच तुजा खाटयेर निद्चें. तुजी माम्मी-डेडी आयल्या उप्रांत आमचो खेळ सुरु जाता.

निर्मला : म्हज्या तोंडाक कुडको बांदल्यार हांवें उलंवचें कशें? म्हज्या माम्मी-डेडीक खेळोंक येना.

जोनी : ह्या खेळांत तुवें उलंवक नां. तुवें उलंवची गरज पोड्ताना तुजा तोंडाचो कुडको हांव काड्तां. तुजा डेडीक आनी माम्मीक खेळोंक हांव शिकयतां. येदोळ तुजा डेडीन संसाराक खेळयलें आनी हाचा उप्रांत ताका हांव खेळयतोलों. चल आतां आमीं वेड रूमाक या.

*(रंग मंचाचे दिवे पाल्वातात. परत दिवे पेट्ताना निर्मला आपल्या खटिर निदोन आसा. ताचे हात–पाय बांद्ल्यात. तोंडाक कुडको बांद्ला. जोनी वेड रूमाचा एका कोनश्यांत लिपोन आसा. रेमी आनी जुलियाना भितेर सर्तात )*

जुलियाना : हांवें तुका वेग्गीं भयर सरयां म्हळ्यारी तूं आयकोंक नांय. आतां वेळ कितलो जालो पळे. चेडुं एक्लेंच घरांत. तूं पारटेंत कितलो पेग्ग पियेल्लोय?

रेमी : म्हज्या मोगाचा वायले, हांव म्हजी मीत मिरवोन पियेना म्हण तूं जाणांय. फरगावांतलो ईष्ट आप्रूप मेळताना, उलवन वेळ कसो पाश्यार जालो म्हळ्ळें कळोंक नां. पुण तुवें तशें कित्याक विचारलेंय?

जुलियाना : तूं चावी वापारिनास्ताना धार लोटुन भितर आयलोय सदां सांजेर येंवचा वशेन. तुजा पाट्ल्यान हांव आयलीं. म्हळयार धार उगतेंच आसल्लें? ह्या भुरग्यांची चरावगी म्हणटा हांव. धार सारकें बंध करिनस्ताना घेल्यांत. आनी आमच्या चेड्वाक नीद आयल्यार भुंयकांप जाल्यारी कळित आसना.

रेमी : फ़ाल्यां तीं भुर्गीं आयल्यार तांची खबर काण्घे. तांकां तुवें दिल्ली सळगी चड जाल्या.

जोनी : तुवें चूक आदरिनातल्ल्याक चुकिदार करचें पयलें पावटीं न्हय, मिस्टर कुलासो.

जुलियाना : चोर ! चोर ! आमच्या घरांत चोर?

जोनी : भोभाटिनाका मिसेस कुलासो ! नां तर ह्या सुरयेची धार तुजा गोमट्यांत रिगोन, तुजें हुनोनी रगात चिवोंन, तुका फेल्या संसाराक दाडुंक आसां. हांव तुमच्या घर्चें कितेंयी चोरुंक येंवक नातल्लों.

रेमी : चूक आदारिनातल्ल्याक हांव चुकिदार करतां ! हांव तुका बोर्यान सांगतां निकाळ म्हज्या घारांत्लो. तूं नेणांय हांव कोण म्हळ्ळें !

जोनी : म्हाका घारांत्लो भयर व्हच म्हणटाय मिस्टर कुलासो? हांवें लेखलें फोन करन पोलिसांक आपोयतोलोय आनी म्हाका तांचा आदीन

करतोलोय म्हण? आनी तूं कोण म्हळ्ळें जाणां आसल्ल्यान हांव ह्या घरांत आसां.

जुलियाना : पयलें म्हाका हें सांग, तूं कोण आनी ह्या रतिचा वेळार आमचा घरा कितें करताय?

जोनी : धरवडनाका मिसेस कुलासो. हांव कोण आनी कित्या खातीर ह्या वेळार तुमच्या घरा आयलां म्हळ्ळें तूं खंडित जावन जाणा जातेलिय. आनी तुमकां कळित केल्ल्या शिवाय हांव व्हेचो नां.

रेमी : तूं म्हज्या घरांत चोरुंक येंवक नांय, म्हजी परिचय तुका आसा पुण हांव तुका वळ्ळकाना. तर कित्या खातीर म्हज्या घरांत आसाय? जर तर कोणी म्हजो जीव काडुंक तुका दाडल्लें तर तूं उलवन उभो रावतो नांय. येदोळ आमचेर अक्रमण करतोय. तुजो उद्देश कितें? तूं म्हाका खुनिगारा बशेन दिसानांय?

जोनी : *(व्हडल्यान हास्ता)* व्हा, मिस्टर कुलासो, व्हा ! तुजा तोडांत हीं उत्रां? म्हजें जिवित सारताक जालें आनी म्हज्या नोव वरसांच्या मिन्हतेक फळ मेळ्ळो. जर तर हें चिंताप तुजा मतिंत आनी हीं उत्रां तुजा तोंडांत नोव वरसां आदीं आयिल्लीं तर, म्हाका ह्या घडये, ह्या घारांत उभो आस्ची गरज पड्ती नां.

जुलियाना : तूं पिसो पुणी जांवक नांयमू? नां जाल्यार ह्या रतिक इतल्या व्हड्ल्यान हास्ताय आनी उलयताय? हें मरयादवंताचें घर, कोणी आयकाल्यार कितें म्हणोंक आसात?

रेमी : जूली, तूं तुजें ब्लड प्रेश्शर वाडायनाका. म्हाका ताचे लागीं उलंवक दी. अळे तरनाट्या, आमकां मोस्त पुरासण जाल्या. तूं कितें उलवन आसाय तें म्हज्या समजणे वायलें. तुका कितें गरज आसा तर फ़ाल्यां सकाळीं ये. हांव म्हजे थावन जांवची कुमोक तुका करतां. पूण सुरी घेवन येंवची गरज नां.

जोनी : फ़ाल्यांचो दीस कोणे पळेयला मिस्टर कुलासो? हांवें ह्या घराक पाट दाकयलीच तुजीं बोटां तुजा मोभायलाचेर चरतालीं आनी हांव

फोलिसांचा आदीन जातोलों म्हळ्ळें हांवें तुजे थावन शिकाजाय म्हण ना.

रेमी : तर तुका कितें जाय? तूं कोण आनी कित्या खातीर आमच्या घरा आयलाय?

जुलियाना : रेमी तूं कित्याक ताचेलागीं उलवन रावलाय? तूं पोलिसांक आपय.

जोनी : म्हजी व्हळोक तुका मेळोंवक नां मिस्टर कुलासो? एक वरस भर तुजे समोर हांव उभो आसल्लों.

रेमी : एक वरस भर म्हजे समोर उभो आसल्लोय? केदाळा आनी खंयसर?

जोनी : तुजा कोड्तींत एका आप्राद्याच्या रूपार. हांवें आदारिनातल्ल्या पापक नितिधार जावन आसल्ल्या तुजे थावन नीत आशेवन.

रेमी : म्हज्या कोड्तींत नीत आशेवन? म्हज्या जिवितांत कित्लेशे आप्राधी म्हजे मुखार आयल्यात. तांतलो तूं कोण म्हळ्ळें हांवें कशें जाणां जांवचें?

जोनी : व्हय.. तुजा उगडासाची सकत आतां उणीं जाल्या म्हणोनंच तो उगडास जिवो करुंक हांव हांगासर आयलां. एका नितिधारा थंय आसाजाय जाल्लें काळीज तुजा त्या हरद्याच्या गुडा भितर नातल्ल्यान तुवें म्हाका आज ह्या परिस्थितेंत उभें केलांय. म्हजें तरनाट्पोण, म्हजो संतोस, म्हजी खुशलाय तुवें मूळा थावन किमचून उडयली.

रेमी : अळे तुज़ो शेरमांव आयकोंक म्हका वेळ नां.

जोनी : हांवें संपोंवक नां मिस्टर कुलासो. दया करन मधें उलयनाका. म्हाका आयक. तुजेर तीर्फ वाचुंक हांव आयिल्लों, कित्याक ह्या संसारांत तूं जियेंवक योगय न्हय म्हण म्हाका भोगुल्ल्यान. घर्चो कांबो हाल्लो तर उरुल्ल्यांक कितले त्रास जातात, कितलें दूख भोग्ता म्हळ्ळी रूच तुजा कुट्माक चाकोंवक हांव आयिल्लों. निराप्राधी हाका तुवें खुरसायल्लोय, त्या वेळीं म्हजें रडूणें अरण्याचें रूदान जालें. तुजें पात्राल्लें काळीज पिगळोंक नां. म्हज्या आवय-बापायन म्हाका वांचोंवक, आसल्लें तें ल्हान घर आडव घालें. म्हजेर तुवें वाचल्ल्या

फ़र्माणाचो परिणाम म्हज्या घरांत सादलो. म्हजीं दातारां आधार नासताना म्हाका नियाळन नियाळन अंतर्लीं. तुज्या नष्ट्या इष्टाच्यां पतकाक तुवें म्हजी बली चडयली. तर सांग मिस्टर कुलासो हांवें आतां कितें करुंक जाय? तुजेर कसलें तीरफ वाचुंक जाय?

जुलियाना : कोण रेमी तो? आसो कित्याक झंकुळता आनी तूं आयकोन आसाय?

रेमी : जूली, प्लीज़..! तूं जोन सेरावो. सरी सुमार धा वर्सां आदीं..

जोनी : धा न्हय नोव वर्सां. वाळाय केल्ल्या तुजा उगडासाचा सक्तेक हांवें तेलाची शेळ दिली म्हळ्ळोच म्हाका संतोस.

रेमी : तुका पोंद्रा वर्सांची सजा जाल्ली.

जोनी : व्हय, पोंद्रा वर्सांची सजा तुवें वाच्ली. पूण सर्कारी अधिकारिनीं म्हाका वळकोन, म्हजे गूण पार्कुन, म्हजेर खंडित अन्याय जाला म्हळ्ळें जाणां जावन स वरसां आधिंच सुटका दिली.

जुलियाना : व्हो.. व्हो.. तूं सुनिल पात्रावोचो खुनिगार.. जोन सेरावो !

जोनी : परत खुनिगार म्हळ्ळो तो सब्द वापारिनाका मिसेस कुलासो. कित्याक ती खुनी कोणें केल्ली म्हळ्ळें तुजो वो घोव, नितिधार रेमी कुलासो बरें करन जाणां आनी तें सत लिपोन वर्चे खातीर ताणें म्हाका पोंद्रा वरसां खातीर भितर दाडल्लो. ताणें लेखल्लें आसतेलें भयर येताना सगळें विस्रातोलों म्हण.

जुलियाना : रेमी व्हो कितें उलायता? तुवें सांगल्लें म्हाका उगडास आसा. सुनिलाची खुन सेरावोन केल्ली म्हण.

रेमी : तें सगळें तुका हांव उप्रांत सांग्तां जूली.. हां.. हां.. तुका पोंद्रा वरसां खातीर हांवेंच खुनिगार म्हळ्ळो बिल्लो दीवन कूडयलो. आतां कितें करुंक चिंतलांय? म्हजी खुनी करन, म्हजेर फ़रिक्फोण काणघेवन पर्तुन जैलाक व्हेताय? *(आपल्या कोटाचा बोल्सांतलें मोबायल काड्टा)*

जोनी : पयलें म्हजें चिंताप तेंच जावनासल्लें मिस्टर कुलासो. ह्या संसारांत म्हजीं म्हळ्ळीं कोणंच नांत. हांव भितर या भयर कायंच फ़रक पोड्तें ना.

रेमी : पुण कितें....?

जोनी : तूं मोबायलाचीं नंवरा दांवुन आसल्लोय. कोणाक? पोलिसांक वा तुजा पाडारी गुंडा; मोवाली इष्टांक? कोणायकी तुवें आपोवयेत कित्याक म्हजें फ़ारिक्पोण हांवें घेतलां.

जुलियाना : तुवें फ़ारिक्पोण घेतलांया? रेमी व्हो खंडित जावन पिसो जाला म्हळ्ळयाक दुभाव नां.

जोनी : येदोळ वरेग देवाचा दयेन हांव जांवक नां. पुण सुरयो उदेंवचा आदीं हेंच उतार तुमीं एकामेकाक उचारतेल्यात. तूं ताका.. तो तुका.

रेमी : तुजा उत्रांचो मतलब?

जोनी : तुमकां एकली धुव आमा आनी गेलेत्या एका घंट्या थावन ह्या घारांत ती एक्सुरी आसा म्हळ्ळें तुमच्या खड्ड्यांत घुसोंक नां?

जुलियाना : निर्मला ! म्हज्या चेड्वाक तुवें जिवेशीं मारलेंय?

रेमी : म्हजे वयलें फ़ारिक्पोण तुवें त्या बुद्दु चेड्वा वयर काड्लेंय?

जोनी : बुद्दु ताका तुमीं करन दवर्ला. तें वरें हुशार आसा. म्हजें हरयेक उतार ताणें मांद्लें. हांवें ताका जिवेशीं मारुंक नां. तें एक्सुरें आसल्लें. ताचे संगीं हांव थोडो वेळ केळ्ळों मात्र. *(रेमी आनी जुलियाना तोंडाक हात दीवन बेड–रूमाक पळेयतना जोनी भयर व्हचोंक तयार जाता – बागला लागीं उभो रावोन..)* व्हेचा आदीं एक उतार उगडास दवरा. त्या चेड्वाक कितेंयी कीस घड्लें, तुमकां दोगांयकी हांव जिवंत दवरिसोना. कित्याक हांव ताका बरो लगतां कंय. *(जोनी भयर व्हेता)*

जुलियाना : ताचीं उत्रां तुवें आयकालीं. तो आमच्या चेड्वा संगीं केळ्ळो कंय? हांवें तुका व्हेग्गीं या म्हणटाना तूं आयकोंक नांय. आतां कितें जालें तें पळे?

निर्मला : *(ताळयो पेटुन हास्ता)* जोनी घेलोगी माम्मी?

जुलियाना : चेड्वाक कितें जालां? त्या अन्याड्याचें नांव सयत हाका कळित आसा. कितें जलेंगो पुता?

निर्मला : तो जोनी कितलो बरो. फ़ाल्यां पर्तुन म्हजे मांगाता खेळोंक येता खंय.

रेमी : व्हयगो, कितें केलेंगो ताणे तुका?

जुलियाना : तूं पिसो पुणी जावंक नांय मू ! ह्या चेड्वालागीं कितें विमार्ताय? जें कितें घड्लां तो आन्नाडी आमच्या तोंडार सांगोन गेला आनी हाणे आतां कितें सांगोंक बाकी उरलां? ह्या सगळ्याक तूंच काराण.

निर्मला : तो अन्नाडी न्हय माम्मी. तचें नांव जोनी.

रेमी : तूं व्हगेच राव-गो. जूली आतां तूं तोंडाक आयिल्या बशेन उलयनाका. मुखार कशें मेट काडुंक जाय म्हळ्ळ्या विश्यांत हांव चिंताप आटावन आसां.

जुलियाना : तांतुं चिंतुंक कितें आसा, फ़ाल्यां चेड्वाक दाकतेरालागीं व्हर आनी परिक्षा करयां.

रेमी : तुजी तक्ली ममा आसामू? दाक्तेरालागीं व्हर आनी परिक्षा करय ! वायलांक दोंप्रा सकला वृद म्हणोन हाकाच म्हण्चें. दाक्तेरालागीं व्हचोन कितें सांगो? ह्या समाजेंत म्हाका जियेंवक आसा.

जुलियाना : तुका समाजेंत जियेंवक आसा म्हण चेड्वाक आशेंच मोड्चें म्हणचेंगी तुवें?

रेमी : तूं एक पिश्यां वरी उलयनाका जूली. तशें कांय घड्चें नां.

जुलियाना : तशें कांय जांवचें नां? जर तर घड्लें, उप्रांत कितें कर्तोलोय, माथ्यार घेवन वावोयतोलोय?

रेमी : जूली, तूं माथ्यार हात घालन उलयताय?

जुलियाना : आनी कितें? आज जें कितें घड्लां ताका कारण तूं ! एका निराप्राधी चल्याचें जिवित तुवें विभाड्लेंय, ताच्या आवय-बापायक तुवें मार्लेंय?

रेमी : जूली ...?

जुलियाना : आज आमचें चेडुं आशें उरोंक सयत तुंच कारण. चेडुं न्हयवे म्हणोन ल्हान थावन ताका तिरास्काराच्या दिष्टिन पळेवन, वेळार ताका बोरया दाक्तेराक दाकोवन ताचे थंय आसल्ले ऊण बोचें प्रयतन तुवें केलें नांय. आनी आतां म्हाका बोबाट्ताय?

रेमी : तोंड धांप जूली..!

निर्मला : तुमीं खेळ्चा खेळाचें नांव कितें डेडी? जोनीन म्हाका सांगल्लें तुमीं आज नवो खेळ खेळतेल्यात म्हणोन?

रेमी : कितें म्हणालेंयगो दळ्दीर्या.. *( निर्मलाक मारुंक मुखार व्हेता )*

जुलियाना : रेमी, निर्मलाचेर हात उकोल्सी जाल्यार कळात खभार !

रेमी : कितें म्हणालेंय तूं? *( रेमी निर्मलाक मारुंक मुखार गेल्लो पाटीं घुवोन जुलियानाच्या गळ्याक धर्ता. दिवे पाल्वातात.. जुलियाना आनी निर्मलाची सांगाता बोबट जाता. )*

*( दिवे पलवातात )*

**पडदो**

# दुस्रें द्रश्य

*( तेंच द्रश्य. दुस्रो दीस. सकाळीं धा वरांचो वेळ. सवकास दिवे पेट्ताना डोरिन आनी मर्विन हेव्शिन–तेव्शिन पासायो मार्तात )*

मर्विन : डोरिन, आज निम्मी अनिकी कितें उटोंवक नां?

डोरिन : काल रातीं हांगामर जोर जोरान उलवणे जातेलें म्हण सकाळीं आमची माम्मी ड्याडीलागीं सांगताना हांवें आयकालें.

मर्विन : जोरान उलोवणे जातलें? कोणाचें? म्हाका कित्याक आयकोंक नां?

डोरिन : तूं कुंवाकर्णा वरीं ! तुका निद्ल्या उप्रांत कोणे उलयल्यार, कोणे झगड्ल्यार खंय आयकातेलें?

मर्विन : हांव कुंवाकरणा जाल्यार तूं कोण? तुकायी कित्याक आयकोंक नां?

डोरिन : म्हाका केदाळा नीद पोड्ली म्हळ्ळें कळोवंकच नां.

मर्विन : हां.. तर तूं कुंवाकर्णाची आजी. अंकल आनी अंटीं झगडोन पडतेलिंगी? पार्टींत इल्लें चड जालें म्हण दिसता.

डोरिन : जेवल्लें चड जल्लेंगी या पियेल्लें चड जाल्लेंगी कोण जाणां. आतां आमकां कित्याक व्हडांची खभार. आमकां निम्मीभाय खेळोंक आयल्यार जालें.

मर्वीन : पुण म्हातारो आनी म्हतारी झगडोन पड्ल्यांत जाल्यार आज आमकां खांवचे वांदे जातेले.

डोरिन : अंकल आनी अंटीक म्हातारो आनी म्हातारी म्हणटायेरे तूं? तांचें मुखार म्हण. तुजें मुसकार पोड्तेलीं. बरें जालें तीं आनीकी वेड रूमा थावन भयर येवनांत म्हण. *(निम्मीचा बेड रूमाक व्हचोन येता)* पुण निम्मी वाय रूमांत नां. म्हळ्यार तें उट्लां आसतेलें. पुण तें गेलें खंय?

निर्मला : हांव हांगा आस्मां. तुमीं आज डसकोलाक व्हचोंक नांत?

मर्विन : आज इसकोलाक रजा. तुमगेर कितें गलाटो जातालो कंय काल रातीं?

निर्मला : तुमीं गेल्ल्या उप्रांत काल रातीं आमगेर जोनी आयिल्लो.

डोरिन : रातीं जोनी आयिल्लो? कोण जोनी?

निर्मला : जोनी म्हजो फ्रेंड.

मर्विन : तुजो फ्रेंड. तुका आमीं सोडन दुसरीं कोण्णी फ्रेंड्सां नांत. व्हो जोनी खंय थावन उदेलो?

निर्मला : तो उदेंवक नां. तो वागला थावन भितर अयलो. ताणे म्हाका बांदुन घालें.

डोरिन : ताणें तुका बांदुन घालें आनी तूं म्हणटाय तो तुजो फ्रेंड म्हणोन !

मर्विन : तुका बांदुन घालें जाल्यार तो चोर जावनासतोलो.

निर्मला : तो चोर न्हय. ताणें कांय चोरुंक नां. ताचेलागीं इतली वोड्ली सुरी आसल्ली !

डोरिन : ताणें कांय चोरुंक ना ! तो चोर न्हय ! ताचेलागीं सुरी आसल्ली. कितें उलयताय वाये तूं?

निर्मला : तो म्हजे डेडीलागीं खेळोंक आयिल्लो. डेडी नातल्लो ने, देकुन ताणे म्हाका बांदुन घालें आनी..

मर्विन : आनी कितें केलें ताणें?

निर्मला : ताणे म्हाका कीस दिलो ! तो कितलो बरो. ताणें आज आमगेर येतां म्हळां, म्हज्या सांगाता खेळोंक.

जुलियाना : *(प्रवेश)* तोंड धांपगो थंय ! जीब वाटेर घालिनाका.

डोरिन : अंटी काल तुमगेर कोण आयिल्लो. निम्मी वाय कितें म्हणटा?

जुलियाना : भरग्यानो, तुमीं म्हजेलागीं कितेंयी विचरीनाकात. पयलेंच म्हजी तकली पोड्ता. तुमीं आज घरा व्हचा. निम्मीक मेळोंक तुमीं फाल्यां येवयेत.

मर्विन : अंटी काल तुमगेर चोर आयिल्लोगी?

जुलियाना : हांवें एक पावटीं सांगल्लें तुजा कानाक सट्वोंक नायेर. चडित हुशारी तुका नाका. आतां व्हचा तुमीं. *(भुर्गीं भियान भयर व्हेतात)* हांवें दिल्ली सळगी चड जाली. देकुन म्हजीं सासां खातात.

मर्विन : *(पाटीं येवन)* आमगेर आज साम केलां अंटीं. तुजें साम नाका. *(धंवता)*

जुलियाना : कित्याक उसळनाय रे.. कितें येतागी म्हज्या तोंडांत. वाये निम्मी तुवें तशें पूरा उलोवंक नोजो पुता.

निर्मला : कशें पूरा उलोंवक नोजो मामी?

जुलियाना : अळे पुता तूं आतां व्हड जालांय. तुवें उलयताना चिंतून उलंवक जाय.

निर्मला : हांव काल ल्हान आसल्लिंगी आनी आज व्हड्लीं जालिंगी? हांव फटी मारिनाने मामी. मागीर तुवें तशें कित्याक म्हळेंय?

जुलियाना : व्हो.. हो..! हांव तुका कशें समजांव..?

निर्मला : हांव तुजा उसक्यार वसतां. तूं म्हाका समजाय. म्हाका समजातेलें. रातीं तुका डेडीन कित्याक मार्लें मामी?

जुलियाना : म्हज्या नशिभांत हे दीस पळंवचें बरोवन आसल्लें जांवक जाय. तुका आतांयीं उसक्यार वसोंवक म्हजेलागीं त्राण नां पुता. ये हांगा म्हज्या सर्शीं बोस.

निर्मला : हांव हांगा बोसतां. तुका दुखलेंगी मामी? हांवें चिंतलें जोनीन तुमकां नवो गेम शिकयला म्हणोन. तूं डेडीचो सोसतु मोग कर्तालिने मामी?

जुलियाना : तुजा डेडीक म्हजो ह्या संसारांतलो देव म्हणोन हांवें पूजा केली पळे ताचो परिणाम तो. तूं ल्हान आसताना, तुजें गणें करिनसताना ताच्या पाटल्यान भोंवलीं पळे ताचो परिणाम तो. व्हय म्हज्या वाये, तूं म्हज्या गरभांत वाडोन येताना ताणे आपोवन वेल्ल्या कडेन व्हचोन, दीस म्हणोन नां रात म्हणोन नां, हांव पार्टेनीं नाचलीं पळे, तें आज हांव भोगतां.

निर्मला : आज तुका कितें जालां माम्मी? तूं कित्याक रडताय? तूं कितें सांगताय तें म्हाका कळाना.

जुलियाना : तुका कळचें नां पुता, कळचें नां. तुजें काजार कर्न नात्रांक म्हज्या उमक्यार खेळेयजाय आसल्लें हांवें. पुण तुकाच उमक्यार घेवन म्हाका वमोंक पोड्लां आनी हाका जवाबदार हांव. आज सार्कें जातेलें; फ़ाल्यां ममा जतेलें म्हण आमी रावल्यां. दीस व्हेतना चेडुं फ़ाल्यां दुस्रयांच्या घरा व्हेचें, दाकतेराच्या पाटल्यान दुडु कित्याक विभाड्चो म्हणोन आमीं तुजी पर्वा केली नां. आनी ताचो फळ म्हाका आनी तुका भोगुंक पोड्ला.

रेमी : अळे तुका हांव वोरयान सांग्तां, तुजा ल्हान वाळश्याक घेवन भितर व्हच. आतां पर्तुन झगड्याक काराण दीनाका.

जुलियाना : अंभोट केल्ल्याक केदाळारी गळया कडेन लामता कंय. हांव आसल्लें आमल्ल्या बरी सांगताना तुका कित्याक दुखता?

रेमी : हांवें तुका एक पावटीं सांगलें, बऱ्या वशेन भितर व्हच. हांवें आंतोनाभाचा पुताक विल्फिक आपयलां. म्हाका ताचेलागीं थोडें ग़र्जेचें उलंवक आमा. आमी उलयताना हांगासर कोणेयीं दिष्टिक पोड्चें न्हय कळ्ळें मू?

निर्मला : कोण; दाकतेर विलफ्रेड येतागी डेडी?

रेमी : तूं तुजा आवय सांगाता भितर व्हेताय वा. घालिजे एक खोट? दाकतेर कंय.. दाकतेर?

जुलियाना : *(निर्मलाक आरावन धरन भितर आपोवन व्हर्ताना)* तो दाकतेर न्हय पुता. दाकतेर्गी शिकोंक व्हचोन पार्टी आयिल्लो. तुजा डेडीचा गुंडा इष्टाचो पाडारी पूत. आमच्या ह्या निर्भागी देशाचें उद्दार कर्चा निभान आपलें पोट भोर्चो तरूण फुडारी.

रेमी : कितें म्हणालेंय तूं... *(रेमी हात उभ्रावन मुखार व्हेताना विल्फ्रेड प्रवेश)*

विल्फ्रेड : रेमी अंकल ! ममाधान घे, जूली अंटिन उलयिल्लीं उत्रां हांवें भितर मर्ताना आयकालीं. तिणें मांगल्ल्यांत चूक तरी कितें आमा?

आमच्या ह्या व्यावहारांत आमकां समाधान बॉव गर्जेचें, तूंयी सद्याक एक राजकारणी जांवचार आसाय तर, लोकाच्यो गाळी-शिराप कसो सोसुन व्हरतोलोय?

रेमी : तुमी सोस्तात जावंक पुरो विल्फी. पुण म्हाका तितलें संयाम नां.

विल्फ्रेड : तुवें सोस्णिक जांवचें पोड्तेलें अंकल. पयल्या सुवातेर तुजी कात डड्डेंवक जाय. लोकाचीं उत्रां तुका अदळोन पाटीं मारुंक जाय. आनी तुजे कान माफ़ आसोंक जाय. कित्याक लोकाचीं मागणीं ह्या कानांत अयकोन त्या कानांत भयर व्हचोंक जाय. हांव कितें सांग्तां तें तूं समजालोय म्हण चिंतां.

रेमी : तितलो बुद्दु हांव न्हय. देश चलोंवचा नेतांक सगळें आयकोन आपल्या कड्ड्यांत जमो करुंक साध्य ना पळे. लोक उलवनंच आसता. आपल्यो गरज्यो मांगोनंच आसता. आमचे पुडारी आपलें पोट पुसुन आसतात तुजा डेडी वरी. *(दोगी हासतात)*

विलफ्रेड : आतां म्हाका मांग कितें गर्जेन तुवें म्हाका आपोवंक दाडल्लेंय?

रेमी : सुमार 10 वरसां आधीं तुजा डेडीचा हातीं पारामोशेन एक खुनी जाल्ली.

विल्फ्रेड : तो विषय आतां कित्याक अंकल?

रेमी : तुजा डेडीचा तल्वारीक बली जाल्लो एक्लो, पुण मेलो बोल्तोच. आनी शिक्षेक वळग जाल्लो तिसरो.

विल्फ्रेड : ह्या घटना विश्यांत डेडी सोस्त पश्चत्ताप पावला. जूली अंटिचा कुट्माचो सुनिल खंय थावन मधें पोड्लो कोण जाणां. डेडीन रागान उभ्रायिल्ली तल्वार ताचें पोट फळुंक पावली. ह्या विश्यांत डेडीन तुजेलागीं माफ़ माग्लां.

रेमी : व्हय तुजा डेडीन म्हजेलागीं माफ़ मागलें. पुण ह्या घोटळ्यांत तिस्री एक व्यक्ती आसा म्हळ्ळें आमी विस्रोंक जयना.

विल्फ्रेड : तिस्री व्यक्ती? क्वो तो, डेडीच्या तल्वारी थावन वांचल्लो. तो दुसर्याच दीसा आमचा ट्रक्का पोंदा आयिल्लो न्हय वे? तें आव्याड म्हण पोलिसानीं ती केज तेदाळाच बंध केल्या.

रेमी : हांव त्या व्यक्ती विश्यांत उलयना विल्फी. मुनिलाचा खुन्येचा आरोपा थावन तुजा डेडीक वांचोंवक रसत्यार पाशार जावन आसल्ल्या एका तरनाट्याक पोलिसानीं उक्लायलो. तुमच्या पयश्यानीं आनी गुंडानीं तुजा डेडी विरोध कोणेंच आवाज उटयनातल्या बरी केलें आनी हांवें त्या तरनाट्याक पंद्रा वरसां खातीर तुजा डेडीचा पातकाचें प्राचित आधारुंक दाड्लो. आतां हांव तुजेलागीं सांगोंक आपेक्शितां त्याच तरनाट्या विशीं.

विल्फ्रेड : तुका कितें अचानाक ताचो उगडास आयलो हाभा..! तो भयर येवंक आनिकी 6 वरसां आसात. तूं इशारो कर ताका जैला भितर्च खभर कर्ची ताकात आमचेलागीं आसा.

रेमी : तो 6 वर्सां आधींच भयर आयला विल्फी !

विल्फ्रेड : म्हळ्यार जैला थावन परारी जाला?

रेमी : तो जैला थावन परारी जांवक नां. भगार ताची शिक्शा माफ़ी जावन आजाद जाला.

विल्फ्रेड : हें तूं कशें जाणां जालोय अंकल? ताणे मुद्दा जोड्ल्या तर तुवें ताका भियेंवची गर्ज कितें? तो तुका केद्नांच विस्रला आसतोलो. ताका तुजा भंगल्यालागीं सयत येंवचें धय्र आसचें नां.

रेमी : भंगल्यालागीं ! अरे भाभा, काल रातीं तो भंगल्या भितर आयिल्लो.

विल्फ्रेड : कितें भंगल्या भितर आयिल्लो? कितें उलयताय अंकल तूं? ताचें इतलें धय्र?

रेमी : हांव आतां मद्याक कोंकणी भाषेन तुजेलागीं उलवन आसां. ताचेलागीं धय्र आसल्ल्यान तो भितर आयलो आनी आमचें सत्यानास केलें.

विल्फ्रेड : सत्यानास केलें म्हणटाय ! ताणे तुमकां जांव व ह्या घर्चा कसल्याच वसतुक जांव हात–भोट लायिल्ल्य वशेन दिसाना म्हाका.

रेमी : ताणे किनें केलां तें हांव तुका खंचा तोंडान सांगो?

जोनी : *(प्रवेश)* तूं सांगोंक सकानांय म्हळ्ळें हांव जाणां मिस्टर कुलासो.

रेमी : तूं.. तूं..?

विल्फ्रेड : म्हाका हाची परिचय जांवक नां.

रेमी : व्हो.. ! व्हो.. !!

जोनी : तुवें घाबेंवचें नाका. म्हजी वळोक हांवच सांगतां. म्हजें नांव जोनी. तुका ह्या अंकलान आपोंवक दाडल्ल्या विषायाचो नायक हांव.

विल्फ्रेड : तुका ह्या घरा भितर येंवक इतलें धय्र? तूं नेणांय हांव कोण म्हळ्ळें?

जोनी : तूं कोण म्हळ्ळें हांव जाणा आसल्ल्यान हांव तुजेलागीं उलयनां. नां तर ह्या श्रीमान रेमी कुलासो लागीं तुजी परिचय विचार्ची गरज पडटी.

विल्फ्रेड : आळे, हांव तुका वर्‍यान सांगतां, रेमी अंकला थावन पयस रव. नां तर..

जोनी : समाधान घे विल्फी, समाधान. थोड्या वेळा पुर्वीं तूं ह्या रेमी अंकलाक समाधान घेंवचा विश्यांत भाषण विस्तुन आसल्लोय. आतां तुजें सयराण होगडांक्क पाव्लोय तर तुजा वापाय वशेन तूं एक पुडारी जातोलोय म्हळ्यार दुवाव ना. दुस्रयांक हें करा, तें करा म्हण सांगोंन, खुद्द करिनास्ताना रंवचें वर्‍या पुडार्‍याचें लक्षण.

विल्फ्रेड : आमी किनें उलवन आसल्ल्यांव म्हण तुका कशें कळिन जालें? आतां तूं वर्‍यान ह्या घरा थावन भायर निकळ.

जोनी : म्हाका ह्या घरा थावन भायर निकाळ म्हण सांगोंक हें तुजा वापाय्चें घर न्हय. आनी उर्ली संगत म्हाका कशें कळित जालें? तुंमकां, पुडार्‍यांक दुवळ्यांचो घोळ कर्न पयशे कशे जमोवचें मात्र कळित शिवाय, भोड्यांत आसल्लो कार्कु कसो उपयोग कर्चो म्हळ्ळें कळित ना.

रेमी : आतां तुका म्हजे थावन किनें जाय? तुवें म्हजेर फ़ारिक्पोण घेतलांय.

विल्फ्रेड : ताणे फ़ारिक्पोण घेतलां..! हें तूं कितें उलयताय अंकल? आतांच डेडीक फ़ोन कर्न हाची वंदावस्त करायतां.

जोनी : तूं डेडीक सांगोन म्हजी वंदावस्त करयताय? तुजो डेडी ताच्या गुंडांक सांगोन म्हजी बंदावस्त करायतोलो. तुमकां धग्र नां. तुमचें म्हळ्ळें भळ नां. दुसर्यांच्या भर्वास्याचेर तुमी जियेतात. मुखल्यान–पाट्ल्यान तुमचे राक्वली नासताना एक मॅट तुमीं काडुंक सकानांत. हांव भयर आयिल्ली खभार इतले वेग्गीं तुजा डेडीक सांगुन ताचें प्रेश्श्यार वाडायनाका. ताचो वॅळ येताना तो भितर व्हेतोलोच आनी ताची खात्री तुका हांव दितां.

विल्फ्रेड : म्हज्या डेडीक तूं भितर दाड्ताय? तूं.. !? वेग्गिंच मंत्री जांवक आसच्या म्हज्या डेडीक तूं भितर दाड्ताय? स्वपणां पळोंवचीं सोड. तुजा जिवितांत आयची रात फ़ालें जांवची नां.

रेमी : विल्फी; ताच्या तोंडाक लागानाका. तो आमकां कितेंच करुंक सकाना. हाचें पुरुषत्व ताणे कितेंच समजणी नातल्ल्या म्हज्या चेड्वाचेर दाकयलां.

जोनी : म्हज्या पुरुषत्वाक जागयनाका मिस्टर कुलासो. हांवें तें कोणाचेर कशें दाकयलां तें व्हेग्गींच कळ्तेलें. आनी तूं विल्फी, म्हाका स्वपणा पळंवची सवय नां. हांव फ़ाल्यांचो दीस खंडित जावन पळयतोलों. कित्याक म्हाका म्हजेर भर्वासो आसा. तुमी म्हाका कितेंच करुंक सकानांत, कित्याक आयच्या दिसा उप्रांत तुमी हांवें सांगल्ल्या बरी नाचतेल्यात.

रेमी : आमी तुवें सांगल्ल्या वशेन नासतेल्यांव ! तुजी तक्ली थिर्यार आसा व जैलाच्या शितान ती पुर्ती कुंवु जाल्या?

जोनी : तुमच्यो तकल्यो कुंवु कर्ची विलेवरी हांवें केल्या मिस्टर कुलासो. विलफ्रेड ह्या घरा आयिल्ल्या तवळ थावन हांव भितर सर्ता म्हणासर तुमचे मधें जाल्लें उलोवणे, तुमी उलयल्लें हर्येक उतर आयचा या

तंत्रा ज्ञान वाड्लेल्या युगांत मुद्रित करुंक वेळ लागाना म्हळ्ळें जाणां जांवचा तितलो मेंदु तुमच्या त्या कड्ड्यांत आसतोलो म्हण पातयेतां.

विलफ्रेड : तुवें आमचें संभाषण रेकोर्ड केलांय? खंडित माद्या ना. तूं फटी मारताय !

जोनी : हांव फटी मारतां, हांव आत्तां आयलों, हांव ह्या घरा भितर नातल्लों, हें मादड्याच नां म्हळ्ळें तुमचें चिंताप मतिंत आसा तें काडुन गालचें. नां तर तुमकां जांवचें लुक्साण चड आनी पायदो कायिंच नां.

रेमी : तूं मत मांग्ताय म्हळ्ळयाक कितें रुज्वात आसा?

जोनी : हांवें रुज्वात दीवंक ही तुजी कोड्त न्हय मिस्टर कुलासो. ही म्हजी कोड्त. ह्या कोडतिंत हांवच वकील, हांवच नितिधार. म्हजें उतार तुमीं पातयेंवक पड्तेलें. हांव कितें मांग्तां तशें चलोंवक पड्तेलें. हांवें 9 वर्सां जैलांत पाशार केल्लें वाडें तुमीं फारिक करुंक पड्तेलें. म्हज्या खंतिन जीव दिल्ल्या म्हज्या आवय-वापायचें रूण तुंमचे थावन हांव वसूल कर्तोलों.

विलफ्रेड : म्हळ्यार तूं आमकां ब्लेक-मेयल कर्ताय..?

रेमी : तुका आमचें थावन पयशे जाय?

जोनी : तुजा पयश्यांचेर हांव तुकतां. पयश्याचें नांव केद्नांय म्हजे मुखार काडिनाका. तुमकां कशें वाटेक लयतोलों तें सवकास कळ्तेलें. तुमीं म्हाका कितेंच करुंक सकानांत इतलें मात्र तुमीं उगडासांत दवर्चें. जर तुमचो फ्रोंड क्वेग्गिंच कोंडुंक आसा तर मुखार मरा. म्हजी कांय अड्कळ नां. सद्याक तुजा घराचें धार म्हजे खातीर सदां उगतें आसोंदी. कित्याक तुजा धुवेचेर म्हाका मोन जालां.

रेमी : आमच्या लपड्यांत म्हज्या धुवेक वोडिनाका. एदोळच तुवें ताचें जिवित विभाड्लेंय !

विलफ्रेड : हें हांव कितें आयकतां अंकल?

जोनी : तूं मधें उलायनाका विल्फी. तुजा धुवेची खंत तुका केदाळा थावन उभ्जाली मिस्टर कुलासो? ऐक वाडल्ली चली ल्हान भुर्ग्या वशेन

वाग्ता तर नाका कारण तूंच. तूं मनीस न्हय, जानवार म्हणटों. पूण तांकां आकमान केल्ल्या वरीं जायत. कित्याक जानवारां सयत आपल्या भाळकांचें पालन–पोषण बरया थरान कर्तात. तुजा धुवेचें जिवित विभाड्लें म्हण तुवें म्हजेर आरोप मांड्लोय. हाका तुजे लागीं रुज्वात आसा? रुज्वाते विणे कोणायचेर आरोप मांड्चें आज थावन विसर. हें तुका म्हजें पयलें लिसांव. आनी विल्फी, तुजा बापायक मांग ताणे सोपणेवन आम्चें मंत्रिचें कदेल कशेंय ताका मेळचें नां शिवाय विधान सभा म्हळळ्या त्या पवित्र जाग्यार ताणे पाय दवरिनातल्ल्या वशेन हांव पळयतोलों.. *(जोनी भयर चल्ता. रेमी तक्लेर हात दवुन सोफ़ाचेर बोस्ता. विल्फी मुटी आर्दुन पासायो मारता)*

विलफ्रेड : ताका हांव बिल्कुल मोड्चो नां अंकल. डेडीक सांगोन ताचें मोडें निदायतां.

रेमी : व्हय विल्फी, आमी कितें तरी सेट काडुंक जाय. म्हकायी तुजा डेडीक मेळोंक जाय. ताची अभिप्राय घेंवक जाय. पूण एक संगत म्हाका समजाना. ताणे आमचें संभाषण कशें रेकोर्ड केलां आस्तेलें?

विलफ्रेड : ताणे जनेला लागीं उभो रावोन आमचें उलोवणे आयकलां जांवक पुरो. रेकोर्ड केलां म्हण म्हाका भोगना. जर तर ताणें केलां तुवें भियेंवची गरज नां. आमकां तो कितेंच करुंक सक्चो नां.

रेमी : तो घायेल्लो वाग जाला विल्फी. ताका आमी ससारायेन घेंवक साध्य नां. तो विशेष बुदवोंत आसा. त्या शिवाय वोरें शिकापयी ताणें जोडलां. आमचीं सेटां आमीं चिंतुन काडुंक जाय. चल, पयलें तुजो डेडी कितें म्हणटा तें पळेव्यां.

*दिवे पाल्वातात – परत दिवे पेट्ताना .. ..*

*(जोनी आनी निर्मला रंगमांचाचेर एकामेका पुड कर्न उभीं आसात. डोरिन आनी सर्दिन सोफ़ाचेर बसोन हास्तात. मधें 15 दिसांचो अंतर )*

जोनी : गेलेन्या 15 दिसां थावन हांव तुका मटां म्हळ्ळे वरी शिकोवन आसां. आतां ह्या भुग्यां मुखार दया कर्न मर्याद काडिनाका. पळेव्यां तूं कितें शिकलांय तें. हांव तुका कितें शिकोंवक आशेल्लों?

निर्मला : यु चीट इंगलिष, ए टाक इंगलिष ना?

मर्विन : तूं इंगलिष भाशेचो किसो कर्नाका, निम्मी. चीट इंगलिष न्हय !

निर्मला : म्हाका जोनीन तशेंच शिकयलां. हांव शिकनाना तूं मधें उलयनाका.

मर्विन : हांव मधें उलयना. देगेन उलयतां. तूं पयलें कोंकणी भास उलंवक शिक. ती माकी उलंवक येना.

डोरिन : तुका उलंवक येताम्, तूं वायेचा पाटीक लागानाका. तें शिकोंदी.

जोनी : हांव निम्मीक शिकयताना तुमीं मधें उलंवचें न्हय म्हण हांवें तुमकां सांगल्लेंम्? पर्तुन मधें उलयतात?

डोरिन : आमी आनी उलयना, तूं शिकय. आमीं आयकातांव मात्र.

निर्मला : तूं म्हाका चीट कर, हांव कशें शिक्तांगीं पळे.

जोनी : हांव तुका चीट करीना, वगार टीच कर्ता. टीच कर्ता म्हळयार, शिकयतां. मांग टीच म्हळयार शिकय.

निर्मला : यु मी टीच नो?

मर्विन : यु मी टीच नो ! व्हा, कितें इंगलिष उलयता आमचें निम्मी वाय !

निर्मला : अळे जोनी, तो पर्तुन मधें उलयलो. ताका सांग ने?

मर्विन : हां वावा, हां. आनी हांव उलयना. तोंडाक हात दवर्ता.

जोनी : ये पार येप्पल..

निर्मला : येप्पल खंय आसा जोनी? म्हाका येप्पल जाय.

जोनी : व्हो.. हो..? पयलें हांव कितें सांगतां तें सांग. ये पार येप्पल..

निर्मला : ये पार .. येप्पल..

जोनी : गुड.

निर्मला : गुड.

मर्विन : कोणाचो? कुंक्डाचो गुड गी?

डोरिन : तुका व्हगेच गवांक जायनायेरे?

निर्मला : पळे जोनी तुवें सांगल्लें हांवें म्हळें, तो कुंक्डाचो गुड म्हणटा.

जोनी : आनी हांव निम्मीक शिकयताना तुमीं हांगा आसचें न्हय; कळ्ळेंमू? निम्मी हांवें गुड्ड म्हळें. म्हळ्यार तुवें सांगल्लें सार्कें जालें म्हणोन हांवें बरें म्हळें. वी पोर बॉल..

निर्मला : वी पोर बॉल. गव हांव पर्तुन मांग्तां, वी पोर वाय. बाय म्हळ्यार हांव.

डोरिन : वेरी गुड्ड.. वेरी गुड्ड.. ! आमचें बाय हुशार जालें.

जोनी : ताका शिकयता कोण? सार्कें सांग्लेंय तुवें निम्मी. वी पोर वाय जाता.

निर्मला : येम पोर मंकी, मर्विन मंकी...

मर्विन : अळे म्हाका मंकी म्हणनाका...?

निर्मला : म्हणटेलीं. म्हळ्यार तूं म्हाका कितें कर्ताय.. आतां जोनी आसा. तुका कांय करुंक जायना. ऐम पोर मामी. अळे मामी आयली.

जुलियाना : तुजें आमी वायट केलें आनी तूं म्हज्या चेड्वाचें बरें आशेताय. तुका...

जोनी : म्हाका तुमचे थावन सरटिफ़िकेट नाका मिसेस कुलासो. तुमच्या वयल्या मोगान हांव निर्मलाक शिकयना. हांवें शिकोंवचांती एक उद्देश आसा. निर्मला तूं डोरिन आनी मर्विना सांगाता भितर व्हच.

निर्मला : जोनी हांव तुजा मांगाता रावतां.

जोनी : हांवें सांगल्लें आयक आनी भितर व्हच.

निर्मला : म्हाका जोर करिनाका. हांव भितर व्हेतां.

जोनी : हां.. मिसेस कुलासो, तूं कितें सांगोंवक आशेल्लीय?

जुलियाना : तूं म्हाका मिसेस कुलासो म्हणोन कित्याक आपयताय? म्हाका अंटी म्हणोन आपोयव्येत.

जोनी : आमचो संवंध तित्लो लागशिलो जांवक माध्य ना मिसेस कुलासो. आनी तुमचे लागीं म्हाका कसलोच संवंध जोडुंक नाका. तुजा घोवाचें आनी त्या विल्फीचें म्हजेर कितेंच शिजोंक ना देकुन माया मोगाचो वांद वांदुन म्हाका पसंवचें प्रयतन करतात तर तुमी पटवन पोडल्यात. तुमी केदिंच म्हजेर जिकोंक माध्य ना.

जुलियाना : ताणे आदारलेल्या वा आदारच्या पात्कानी म्हाका भागिदार करिनाका. तुजेर जाल्लया आत्र्याया विश्यांत हांव कितेंच नेणां आसल्लीं.

जोनी : आतां नेणार्यांचो वेस पांगोरिनाका मिसेस कुलासो. तुमीं लोकाक फ़मयतात. हांवें कमर बांद्लां तुमच्या धवल्यां थावन लोकाक वांचोंवक. फ़सोवणी जावनासा एका पुडार्याचो वायलो घुरत. उगडास कर मिसेस कुलासो तो दीस ! 9 वरसां आदीं म्हजीं दुवळीं आवय-वापय तुमच्या वागलार म्हज्या दयेची भिक मागोंक आयिल्लीं. तुमीं, प्रत्येक जावन एक स्त्री जावन आसोन तुवें तांकां निष्ट्रायेन, गाळी-शिराफ़ दीवन दांवडायलेंय. म्हजी आवय जैलांत येवन गळगळयां रडोन म्हाका मांगताना, म्हाका कितें भोगलें असतेलें !

जुलियाना : तेद्नां हांव म्हज्या घोवाक पात्येलीं. एक नितिधार जावन तो असलो वुर्नास खेळ खेळता म्हण हांव नेणां आसल्लीं, म्हाका माफ़ कर.

जोनी : माफ़ी तुमकां फ़ावो न्हय मिसेस कुलासो. हांव तरी भायलो, तुमच्या भुरग्याचें पालन-पोषण सारक्या रितीन करुंक जाय म्हळ्ळी समजोणी तुमचेलागीं नातल्ली? हेंच निर्मला, ये. डी. एच. डी. (*येटेन्शन डेफिसिट हैपरयेकटिविटी डिझोरडर )* म्हळ्ळया समस्याक वली जाताना तुमीं निदोन पडल्ल्यात. त्याच वेळीं ताचेर तुमीं द्यान दिल्लें तर आज तें कोणायचें तरी घर सोभोंवन आस्तें. तुमकां आसल्लें शिकाप तुमीं बर्त-डे पार्टेनीं, किट्टी पार्टेनीं आनी पाड पोडल्ल्या राज कारणांत वापारलें. एक्लो सैनिक देशा खातीर झुझताना, तुजा घोवा आनी ताच्या इष्ट्रा तसले देशाचें रगात चिवोन काड्तात. देशाचें वरेंफ़ण आशेंवचे पुडारी नांत म्हण हांव म्हणाना. पूण हाताच्या वोटानीं मेजच्या तिल्ले कोण्णा.

जुलियाना : तुजा उत्रांक हांव मांद्तां जोनी. तूं कित्लो वधवोंत आसाय तें तुजा उत्रानीं कळ्ता. बुदवोंतकाय तेकित तुजे लागीं धयर आसा. म्हाका तूं चूक समजानाका. व्हय, हांव मांद्तां अमचें निर्मला आज आशें उर्लां जाल्यार तांतूं म्हजो शिंवाचो वांटो आसा. म्हजें करतव्य हांव विस्रालीं.

हांवें ताचे थंय आळमाय टाकयली. म्हजी चूक तुवें त्या गतीं टाकोवन दिली. गेले त्या 15 दिसानीं म्हज्या चेड्वा थंय जावन आसल्लें वद्लाप हांव पळेवन आनी भोगुन आसां. म्हाका पाल्ये जोनी.

जोनी : तुमकां पांन्यांक्चें आनी घायेल्ल्या अग्गेवाक आंगार चरोंवचें एकच मिसेस कुलासो. तुजें लागीं उलवन हांव म्हजो वेळ विभाडुन आसां म्हण म्हाका भोगता.

जुलियाना : तुजेर जाल्ल्या अन्नयाय खातीर हांव काळजा थावन पश्च्यात्ताप पावतां पुता जोनी.

जोनी : काळीज? पश्च्यात्ताप? हीं उतरां उचारुंक कितलें सुलभ न्हयगी मिसेस कुलासो? 9 वरसां त्या जैलांत, पुड्पुडित आसल्लो म्हजो जीव आज सुकुल्ल्या वोडये वशेन जाताना म्हजें काळीजयी चिरमुट्लां. आतां तुमचे तसल्यांच्या पश्च्यात्तापान तें उसोंव्क आयकाना. हांवें करिनातल्लो अप्राध हांवें केला म्हण मांदिशें करुंक पयशे खावगी पोलिस आफ़िसारान म्हजेर चलयिल्ल्य जुलुमां वरवीं म्हजें आंगयी दाड्डलां. तुजीं पश्च्यात्तापाचीं उत्रां तांतल्यान पाशार जावन म्हज्या काळजा परयांत पावोंक आयकानांत. पुता, भांगारा म्हणोन तुवें म्हाका धुंपोंवची गरज नां

जुलियाना : तुजा आवय वरी हांवीं एक स्त्री. म्हाका .. ..

जोनी : आवय म्हळ्ळें पवित्र नांव तुजा तोंडांत येना जांवदी मिसेस कुलासो. आनी म्हज्या आवयचो उगडास काडन म्हजें समाधान पिड्ड्यार करिनाका. तूं स्त्री जांवक पुरो. पूण आवय न्हय. *(जुलियानाचा दोळ्यानीं दुखां देंवतात. ती सवकास व्हचोन सोफ़ाचेर वसता आनी हुस्कारोन हुस्कारोन रड्ता. जोनी तिचेर एक कठोर दीष्ट घालन भयर व्हेता. निर्मला, डोरिन आनी मर्विन सवकास भयर येवन जुलियाना सरशिन रावतात.)*

निर्मला : माम्मी तूं रडताय कित्याक? जोनीन तुका कितें म्हळें?

जुलियाना : हांव रडतां म्हज्या पातकांचा प्राजिताक. तुका कितें म्हण मांगों म्हज्या बाळा? त्या चेड्वान जें कितें मांगलें तांतूं ताची कांय चूक नां. म्हजें दळदिरें हणेबराप ताणे वाचुन मांग्लें. तुजें जिवित पिड्ड्यार केल्ली कसाप्पी आवय हांव.

निर्मला : तो चेडो म्हळ्यार कोण माम्मी?

डोरिन : तो चेडो म्हळ्यार जोनी.

निर्मला : तो चेडो कशें जांवचो? तो टाकलो मनीस. चेडो म्हळ्यार मर्विन.

मर्विन : तुजा माम्मीक जोनी चेडोच न्हयगो निम्मी.

निर्मला : तूं ताका जोनी म्हणानाका. तुजेकी वडलो तो. ताका जोनीबाब म्हण.

मर्विन : जायत बावा; ताका जोनीबाब म्हणतां.

निर्मला : हांव बाब न्हय; हांव बाय.

जुलियाना : तुजा नितळ निसकळ अंतस्करना थावन तुवें उमाच्या उत्रांची इल्लिशी तरी जाणवाय म्हजे थंय आसल्ली तर आज म्हाका हे दीस पळेंवक मेळतेनांत म्हज्या भांगारा. *(निर्मलाक पोट्लुन धरुन रडता. )*

डोरिन : तूं रडनाका अंटी. हांव जोनीबाबाक सांग्तां तूं कितली बोरिगी म्हणोन. तूं रडल्यार म्हाकायी रडोंक येता. *( रेमी आनी विलफ्रेड प्रवेश. )*

रेमी : हांव आनिकी जीव आसां जूली, मोरोंवक नां. कोण मेलां म्हणोन तूं रडताय?

जुलियाना : मरण हांव म्हजेंच मागतां रेमी. म्हाका आनी ह्या दळदिर संसारांत जियेंवक नाका.

रेमी : जियेंवक नाका तर तो काडन घेंवक जायत्यो वाटो आसात. निदेच्यो गुळीयो आसात. इल्ल्यो चड घेंवक पोड्नात. उंद्रांक मारचें पाशाण आसा. दोरयेन गोमट्याक पास घलन पाकयार उडयल्यार एक दोन वोवाद्यानीं दोरी गोमट्याक अरंधता. घरा भायर गेल्यार वेगान चलचीं वाहना आसात. इल्लें पयस गेल्यार रैलाचे पाटे आसात. पांचांच मिनुटाक एक गाडी येता. पूण ह्या प्रायेर ल्हान भुरग्या वशेन रडोन ह्या घराचेर पनवती मागोन घेनाका जूली?!

जुलियाना : हांव रडोन तुजा पातकाचें प्रायशित्त करतां आनी तुवें तुजा नापास कर्तुवां वरवीं ह्या घराचेर पनवती मागोन घेतलाय. हांवें खंचा रितीन मरोंक जाय तें त्या रचणराच्या हातीं आसा. तुजा हातांत जर म्हजें मरण लिखलां, तें हांवें वद्लुंक जायना. वेळ उत्रोंक नां, तुजा पातकांची खरी दूख [illegible] जिविताची वाट वदलुंक पळे. नां तर तो ताची दोरी अरधिंताना तुका चिंतुंक सयत पावट आसची ना.

रेमी : तूं माथ्यार हात घालन उलयताय जूली. तुका हांवें काल रातिंच हिशारो दिला. हांवें कितें करुंक जाय, हांवें कशें चलाजाय, तें तूं म्हाका मांगानाका. पयशे कितले चड त्या माफ़ान ह्या समाजेंत मनश्याक मान लावता. नाचें घन वाड्ता. हात पाय घट आसताना कमायिल्ले आयले जूली. ते वोरया वाटेन जांव या वायट वाटेन, कोणी पळेंवक व्चाना. म्हाका ह्या समाजेंत एक स्थान अपणांवक आसा. त्या खातीर हांव राजकाराणांत घुसोंक पळेवन आसां. राजाकीया फ़ुडारयांक लोक कितलो भियेता, कितलो मान दिता तें तुवें वाचुंक नांय, पळेंवक नांय?

विलफ्रेड : तुमीं कित्या खातीर एकामेकाचीं मासां खातात अंकल? अटींक हांव समजायतां.

जुलियाना : तुमीं वापायन आनी पुतान मेळोन, इष्ट इष्ट म्हणोन पयलें थावन हाका वापर्लो आनी हाचे थावन तुमचीं कामां करन घेतलीं. तुमचे तसल्याच्या घमाक मांपडोन अनितिचीं तीरफां तो दितालो म्हळ्ळें म्हाका आतां गोमलां. तुमी कशेंय येमकोडांच्या वाटेर आसात आनी हाकायी लुसिफ़ेराचो प्रतिनिधी तुमी केलो. आनी रेमी, आमकां आमल्ली आस्त, बेंकांत कुसोन आसचो दुडु पावाना? तूं जोडताय जाल्यारयी कोणा खातीर? आमचें एकलेंच चेडुं, तें सयत तुजा आसतीचें जांव दुड्वाचें लेख विसाच्या स्थितेर नां. तूं मोरताना कांय वोरोंक सकचो नांय. तुजी खरी व्होळोक जाल्ल्या उप्रांत म्हकायी तुवें खमायिल्ल्या दुडवाचो कांठाळो आयला. दुडवाचो होवोंस सोड, आतां

जाल्यारी तुजा एकल्याच धुवेक खंचा रितीन वरें करुंक जाता त्या विश्यांत चिंत्ला आटय !

विलफ्रेड : ती जवाबदारी म्हजी अंटी.

रेमी : तुजा पासलेंत उरलें तर ताणे वरें जांवचें सोपणांत जूली. तुजा त्या कोंडाट्याच्या चेडवा विश्यांत एक बरी खबर तुका दीवंक आसा. आमचो विल्फ़ी तुजा धुवे निम्मी लागीं काजार जांवक तयार आसा कंय !

जुलियाना : तुमीं तकलेंत ससा आसातसू? पयश्यांचें पिशें कशेंयी लागलां. आतां क्हो कसलो नाटक तुमी म्हजे सांगाता खेळोंक चिंतात?

रेमी : तूं हांतुयी कांय वायट चिंतिनाका जूली. निर्मला विश्यांत हर्येक बारिक संगती हांवें विल्फ़ीक सांगल्यात. कोणाचाच दबावा विणें तो ताच्याच स्वंत खुशेन निर्मलाक आपणांवक मुखार सरला. काजार जावन आमेरिका आपोवन वर्न, बर्या दाकतेराक दाकोवन, ताका वरें कर्तोलों म्हळ्ळी बासावणी ताणे म्हाका दिल्या.

जुलियाना : हें काम आमकांयीं करुंक जाता न्हयगी रेमी? विलफ़्रिचे गूण जाणा आसोन प्रस्तुत परिस्थितेंत तरी ताच्या गळयाक बांदुंक म्हाका म्हजें चेडुं जड जांवक नां.

रेमी : तुजा मतिंत कितें शिज्ता तें हांव जाणां जूली. विलफ़्रिन आपल्या जिविताची वाट बद्लुंक निर्दार घेतला.

विलफ़्रेड : व्हय अंटी. तुवें म्हजे दोळे उगते केलेय आनी त्या जोनीन आपलें तारनाट्पोण जैलाचा सरळां भितर होगडायलें पळयताना आतांचीं म्हजी वाट म्हाकायी त्याच दिशेक पावोयताली म्हळ्ळें हांव जाणां जालां. हांव म्हज्या पायार उबो रावोंक आशेतां.

जुलियाना : पूण तुवें तुजें शिकाप पूरण करुंक नांय. तुजा पायार कसो उबो रावतोलोय?

विलफ़्रेड : हांव एक शोप्पिंग सेंटर उगतें करन ताचें आडळतें पळयतोलों. डेडी थावन कसलिच कुमोक हांव घेंवचो नां. म्हजेलागीं थोडे पयशे

आमात. उरूल्ले हांव वेंका थावन रिणा रुपार घेतोलों. डेडी थावन कांय अडकळ नां. निर्मलाक हांव फुला वशेन पळयतोलों म्हण भास दितां.

जुलियाना : पूण जोनी निर्मलाक तुजे मंगीं काजार जांवक सोडित?

रेमी : निर्मला आमकां जल्माल्लें भुरगें, जोनीक न्हय. ताणे ताचे जिवित विभाड्लें. विल्फि सगळें जाणां आसोन ताचें उद्दार करुंक भयर सरला. आतां तो निर्मलाचें नीभ दीवन आनी केसेटिची भेश्टावणी दीवन आमकां नामयता. निर्मला आनी विल्फिचें काजार जाल्या उप्रांत जोनी आमच्या घराचें मेट चड्चो नां. तुवें निशचिंत रावयेत.

जुलियाना : जर विलफ्रेड आपली जिणी बद्लुंक सकता तर तुवें आनी हाचा डेडीन तशें कित्याक करुंक नजो?

रेमी : तूं नेणांय जूली, राजकाराण एका रितीचें आमाल. मोर्याची रूच चाकल्लो कशें सवकास वेब्धो जाता, तशें जावनामा राजकाराण. तांतूं एक पावटीं घुमल्या उप्रांत पाटीं पळेंवक नां. सद्याक तूं तुजा धुवे विश्यांत खंत कर. हांवें केद्नां बद्लुन, तुवें म्हण्चा वरीं एक मनीस जांवक जाय, तें आमीं उप्रांत चिंतया.

## दिवे पालवातात – (मध्यांतर)

# दुस्रो भाग

## पयलें दृश्य

*( रंगमंचाची सजवणी पयलेंचाच वशेन. पूण बागलां, जनेलाचे करटेन बदूली करूंक जाय. पडदो उगतो जाताना डोरिन आनी मर्विन गीत गावन नाचोन आसात. निर्मला सोफ़ाचेर बसोन आसा. गीत संपल्या उपरांत.. )*

| | | |
|---|---|---|
| डोरिन | : | तुजें काजार आसा म्हण आयकालें, मत–गी वाये? |
| मर्विन | : | आमच्या निम्मीवायेचा काजाराक हांव खूब नाचतोलों. |
| निर्मला | : | म्हजें काजार आसा? तुका कोणें सांगलें? हांव काजार जायना. |
| डोरिन | : | तुजें काजार डोकटर विलफ़िलागीं जातेलें म्हणोन तुजी माम्मी म्हज्या माम्मीलागीं आज सकाळीं सांगताना हांवें आयकालें. |
| मर्विन | : | तूं त्या वंडल दाकतेरालागीं काजार जाताय? शी.. |
| डोरिन | : | शी कित्याकरे? तो पळेंवक बरो दिसता, हिरो वशेन.. |
| निर्मला | : | हांव ताचेलागीं काजार जायना. तो म्हाका बरो लागाना. हांव काजार जोनीलागीं जातां. ऐ मेरेज ओनली जोनी. |
| मर्विन | : | ऐ मेरेज न्हय, निम्मीवाये, ऐ विल्ल म्यारी म्हण. |
| निर्मला | : | मेरी न्हये मर्विन. जोनीन शिकयलां म्हेरेज म्हणोंक़ |
| डोरिन | : | निम्मीवाये मर्विनान सांगल्लें सम्मा. तुवें सांगल्लेंय सम्मा. मेरी न्हय.. म्यरी. आतां हांव कितें शिकयतां तें तूं जोनीलागीं सांग. |
| निर्मला | : | हांवें कितें सांगोंक जाय तें तूं मर्विनाक सांग, हांव पळयतां. |
| डोरिन | : | मर्विन तूं म्हजे मुखार उबो राव. वाये पळे. "ऐ विल्ल नाट म्यारी विल्फ़ी. ऐ विल्ल म्यारी यु..", कळ्ळेंमू? |
| मर्विन | : | आतां हांव सांगतां. "ऐ विल्ल नाट म्यारी विलफ़ी. ऐ विल्ल म्यारी यु..." |
| निर्मला | : | तूं यदोसो आसाय म्हजेलागीं कसो काजार जातायरे? |
| मर्विन | : | यु म्हळ्यार जोनी, हांव न्हय. आतां तूं सांग. |

निर्मला : कितें म्हळेंय तुवें? नाका नाका हांव सांग्तां, ऐ मेरी नोट विल्फ़ी.. यु मेरी ऐ..

मर्विन : तुका इंगलिष शिकयतां शिकयतां म्हजें इंगलिष पाड जांवन, हांवें परतुन के जी क्लासिक भर्ती जांवक पडात.

निर्मला : हांवें सारकें सांगोंक नांगी डोरिन?

डोरिन : तुवें सारकें सांगलेंय. पूण तोडें पाटीं मुखार जालें. हांव एक पावटीं पर्तुन सांगतां. सार्कें आयक़. "ऐ विल्ल नाट म्यारी विल्फ़ी.. ऐ विल्ल म्यारी यु".

निर्मला : पूण जोनी म्हजेलागीं काजार जातोलोगी?

मर्विन : तो तुजेलागीं कित्याक काजार जायना. तूं पळेंवक सोभित नांयगी? पूण इल्लोसो गुजो मात्र !

निर्मला : पळे डोरिन तो म्हाका गुजो म्हणटा..

जोनी : *(प्रवेश)* कोण आमच्या निम्मीक गुजो म्हणटारे? ताचे तामाशे केल्यार पाटिचें चामडें काडुंक आसां.

मर्विन : हांवें खंय ताचे तमाशे केल्यात? हांवें म्हळें तूं पळेंवक सोभित दिसताय, जुही चावला बशेन म्हणोन.

जोनी : अळे मर्विन वोडालागीं केद्नांय मसकिर्यो कर्च्यो न्हय कळ्ळेंमू? निम्मी तुमच्याकी कित्लेशें वोड. ताचेलागीं मर्यादीन उलवंक जाय.

निर्मला : जोनी यु कम? टेल यु ऐ समतिंग ...

जोनी : तुका कितें सांगोंक आसा. तुका समजता त्या बशेन सांग. हांव उप्रांत करेक्ट कर्तां.

निर्मला : ऐ मेरी नोट विल्फ़ी. यु मेरी ऐ...

जोनी : हें ताका कोणें शिकयलेंरे मर्विन? डोरिन, तूं म्हाका सांग कोणें ताका आशें उलंवक शिकयलें?

डोरिन : आमींच शिकयलें जोनीबाव. आमचा निम्मीबायेचें काजार आसा.

जोनी : निम्मीचें काजार आसा? कितें उलयतायगो बाये तूं. कोणालागीं आनी तुका कोणें सांग्लें?

डोरिन : जूली अंटीन म्हज्या माम्मीलागीं मांगताना हांवें आयकालें. तीं निम्मी बायेचें काजार विल्फ़ीलागीं करतात कंय !

जोनी : विल्फ़ीलागीं निम्मीचें काजार ! खंय आसा तुजी ती अंटी आनी रेमी अंकल?

निर्मला : डेडी आनी माम्मी घरा नांत जोनी.

मर्विन : तीं विल्फ़ीच्या घरा गेल्यांत.

निर्मला : हांव विल्फ़ीलागीं काजार जायना जोनी. हांव तुजेलागीं काजार जातां. ऐ मेरी यु..

जोनी : एक घडी तुजें तोंड वंध कर निर्मला. काजार कंय काजार? म्हाका चिंतुंक दी.

विलफ़्रेड : *(प्रवेश)* कोण कोणाची मर्याद उरयता जोनी?

जोनी : हें हांव कितें आयकातां विल्फ़ी? तुवें निर्मलालागीं काजार जांवचें मोन केलांय कंय !

विलफ़्रेड : तुवें सार्के आयकालांय जोनी. हांवें मोन करुंक नां वगार निर्धार केला. रेमी अंकल आनी जूली अंटी आमगेर गेल्यांत काजाराचो दीस दवरुंक्र

निर्मला : हांव तुजे कडेन काजार जायना. हांव जोनीलागीं काजार जातां.

जोनी : डोरिन, मर्विन.. तुमीं आतां घरा व्हचा. निर्मला तूं भितर व्हच. म्हाका विल्फ़ीलागीं उलंवक आसा.

विल्फ़्रेड : तुका कितें उलंवक आसा ताच्या मुखार उलय. कित्याक तें म्हजी होकाल. आमचें मधें कितेंच लिपोन उर्चें न्हय.

जोनी : तुजी होकाल?

विलफ़्रेड : ओ के.. ओ के. मुख्ली होकाल. हांवें निर्मलालागीं काज़ार जांवचें तुका पसंध नांगी जोनी?

जोनी : म्हज्या पसंधेचें वा ना पसंधेचें सवाल येना विल्फ़ी. पूण म्हाका समजाना तुजा ह्या निर्धारा पाट्लो उद्देश कसलो तें?

विलफ़्रेड : एक्लो चलो एका चलियेचो हात धर्ता, पाद्री मुखार उवो जाता, जिणी भर ताका मांवाळतोलों.. ताचो मोग करतोलों, कुटाम बांद्तोलों म्हण

भाम दिता आनी म्हजोयी उद्देश तोच. हांव निर्मलाचें अधुरें जिवित नंदन करुंक आशेतां जोनी.

जोनी : व्हाव..! म्हजे कान सार्के आसातमू विल्फ़ी? न्हय; काल म्हणासर रस्त्या वयल्या साधारण गुंडांची भास उलवन आसल्लो तूं, आज एकदम कविक सोभची भास उलंवक खंय शिकलोय?

विलफ्रेड : वेळ येताना हरयेकल्यानी बद्लुंक जाय न्हयगी जोनी?

जोनी : पूण श्रिमान गोमेसाचा पुता थंय असलें बद्लाप? आनी तेंयी तूं काजार जांवक भयर मरलाय निर्मला तसल्या चेड्वालागीं?

निर्मला : हांव चेडुं न्हय गी? म्हाका काज़ार नांगी जोनी?

जोनी : तूं बरें चेडुं आनी तुजें काज़ार जातेलें. तूं विल्फ़ीलागीं काज़ार जातायगी?

विलफ्रेड : हांवें म्हजी जिणी वदलिल्या जोनी. दया करन तूं म्हज्या आनी निर्मलाचा मधें येनाका. जे कितें आमचे मधें घड्लां एक पाड स्वपाण म्हण म्हाका माफ़ कर. म्हज्या डेडीच्या चुकिक तूं म्हाका जवावदार करिनाका. हांव आतां म्हज्या पायार उवो रावलां.

जोनी : पूण तुजा कूडींतलें त्या वापायचें रगात इतलें व्हेग्गीं नितळ जायत म्हळ्ळी पात्येणी म्हाका नां.

विलफ्रेड : हांव कितलो बद्ल्लां आनी म्हजें रगात कितलें नितळ जालां तें तुका व्हेग्गिंच कळतेलें जोनी. तूं म्हजीं हीं उत्रां उगडासांत दवर. आमचें व्हेग्गिंच काजार आसा जाल्ल्यान हांव तुजेलागीं एक उपकार मागतां. तुवें आनी मुखार अंकल आनी अंटी नातल्ल्या वेळीं निर्मलाक भेट्चें न्हय.

जोनी : पूण निर्मला ह्या काजाराक तयार नां. तुवें ताचेलागीं जवरधस्तेन काज़ार जांवक साध्य नां.

विलफ्रेड : ती जवाबदारी रेमी अंकलान आनी जूली अटींन घेतल्या. तें तयार जातेलें म्हळ्ळो भरवासो म्हाका आसा.

जोनी : जर तर ताच्या स्वंत खुशेन तयार जालें हांव तुमच्या मधें येंवचो नां विल्फ्री. पूण तूं जाणां आमाय, एका रातीं तोड्यो घडियो तरी म्हजे संगीं केळ्ळां. तें म्हाका वरें लाग्ता. ताचेर कोणी भादक हाडल्लें हांव सोशिसोनां.

विलफ्रेड : हांव आसोनी तूं हाचेलागीं काजार जांवक मुखार सरलाय जाल्यार मुखारसुंक म्हजेलागीं उत्रां नांत. देव तुमचेर धाराळ आशीरवादां घालुंधीं. *(जोनी व्हेता)*

निर्मला : जोनी.. तूं व्हचानाका. हांव विल्फ्री कडेन काजार जायना.

विल्फ्रेड : तूं जातेलेंय निम्मी. हांव तुका आमेरिका व्हर्तोलों. तूं थंय थावन पाटीं येंवचें नांय.

निर्मला : तूं म्हाका थंय सोड्तोलोय. हांव थंय रावाना. म्हाका जोनी जाय.

विल्फ्रेड : म्हजो मतलभ तूं थंय थावन नवें मनीस जावन पाटीं येतेंलेंय.

*( दिवे पलवातात – परत दिवे पेट्ताना )*

*( रेमी कुलासो सोफ़ाचेर बसोन दैनिक पत्र वाचुन आसा. जुलियाना कप्पांत चाय घेवन ताचेलागीं येता )*

जुलियाना : म्हाका एक समजाना रेमी...

रेमी : तुका हाचे आदीं कितें समजालां जूली? आतां तुका कितें समजाना तें म्हजेलागीं विचार. हांव आसां न्हयवे तुजो दुभाव परिहार करूंक.

जुलियाना : अंतोनाव इतल्या मुलावायेन आमच्या निर्मलाक ताची सुन करुंक कसो ओपलो? कजाराक कितेंच शर्तो ताणें घालुंक नांत. दोत ताणें मागोंक नां. वयल्यान आंग भर भांगार घाल्ता कंय !

रेमी : ताका म्हणटात इश्रागत ! म्हाका लगता विल्फ्रीच्या वदलापाक तोच काराण आसोंकी पुरो.

जुलियाना : म्हाका आनिकी दुभाव जाता रेमी. या चेड्याच्या मनिक उज्वाड लावलो जांवक पुरो. पूण तो अपुण जावन आमच्या चेडवालागीं काजार जांवक मुखार सर्लो कसो?

रेमी :, चेडो सांगिना तरी, बापायन ताका तयार केला जांवक पुरो. विल्फ़ी आपल्या बापायच्या उतराक आड व्हचाना. त्या दीस हांव आंतोनावालागीं जोनी विश्यांत मांगोंक गेल्ल्या वेळार ताणें दोळ्यानीं दुखां हाडन म्हाका पोट्लुन धर्न कितें म्हळ्ळें जाणंय? तो जैलाक व्हचोंक हांव काराण जावनासतां ताणें तुजा धुवेचेर फारिकपोण कशें घेतलें? हें म्हजेर एक रीण म्हण चींत रेमी. हांव तें वाडी समेत फ़ारिक करतोलों. म्हाका लगता ताणें तें करन दाकायलां. हांवेंयीं ताचेर केल्ले उपकार आसात पळे.

जुलियाना : आतां आमच्या चेड्वाक कशें समजांवचें? जबरदसतेन आपुण निर्मलालागीं काजार जांवचो नां म्हळ्ळो हिशारो दिला आसतां ताका तयार कर्ची जवाबदारी आमचेर आसा.

रेमी : मोगान तूं ताका समजाय. नां तर ताच्या मतिचेर सवार जाल्लो जोनीचो भुत दांवडांवक म्हजेलागीं दुस्री वाट आसा. काजार व्हेग्गींच तिरसुन आमच्या जवाबदारे थावन मुक्त जांवक जाय. हांव म्हजीं तोडीं कामां तिर्सितां. तूं ताका भळाय, समजाय.

जुलियाना : पूण तें घरांत आसल्यार न्हयवे भळांवचें. तें आज काल भुरग्यां संगीं सुल्ये दिसानीं तांचाच धरा आस्ता. इंगलिष शिक्ता कंय !

रेमी : इंगलिष शिक्ता जाल्यार बोव बरें जालें. पूण ताणें उलंवची भास समजोवन घेंवक मुखल्याक दोन वोरां लागोंक आसत.

*( रेमी भितर व्हेता. जुलियाना टी–पॉय चेर शिंपोड्लेलीं पेपारां जमो करन एका जाग्यार दवर्ता. निर्मला, डोरिन आनी मर्विन प्रवेश )*

निर्मला : माम्मी, अय टेल युवर नेम?

जुलियाना : तुवें आतां म्हजें नांव सांगचें नाका. तूं म्हजे मांगाता बस. म्हाका तुजेलागीं बोव गरजेचें उलंवक आसा.

निर्मला : कितें उलंवक आसा माम्मी? ऐ सिट ओन युवर उसक्यार? कितले दीस जाले तुवें म्हाका उसक्यार बसोंवक नांय?

डोरिन : बाये तूं ल्हान आसताना तुका अंटी उसक्यार बसयताली. आतां तूं वोड्लें जालांय !

मर्विन : आतां तूं उसक्यार बसल्यार अंटी चट्णी जांवक आसा.

निर्मला : अळे माम्मी, तो म्हाका चिटिंग कर्ता.

जुलियाना : तो तुका चीट करिना.. टीज़ करता. तूं वरें इंगलिष उलंवक शिकोन आसाय. तूं हांगा म्हजे सर्शी बस. तुमी व्हचानाकात. म्हाका तुमची गरज आसा. आयका, निम्मी तुमचें इष्ट्रिण मू?

मर्विन : तें आमचें इष्ट्रिण न्हय, तें आमचें फ्रेंड..

डोरिन : फ्रेंड आनी इष्ट्रिण म्हळ्यार एकच रे.

जुलियाना : तुमच्या फ्रेंडान वरें जांवक जाय म्हळ्ळें तुमी आशेतातमू?

डोरिन : व्हय अंटी.

जुलियाना : तर तुमींच ताका सांगा ताणें विल्फ़ीलागीं काजार जांवक ओपवोंचाक़.

निर्मला : तुवें पर्तुन विल्फ़ीचें नांव काडल्यार हांव जोनीक सोदुन व्हेतेलीं. ऐ कम नोट होम.

मर्विन : पुण अंटी, विल्फ़ी निम्मीबायेक वरो लागाना. तें ताचेलागीं काजार जायना म्हणटा.

जुलियाना : पळेया भुरगयानो, आमीं निम्मीचें काजार जोनीलागीं केलें जाल्यार तो ताका कसो पोसतोलो. ताचेलागीं काम ना. जैला थावन आयिल्या ताका कोणी काम दींवचो ना. काजार जवन निम्मीक तो खंय दवर्तोलो?

डोरिन : अंटी..; पुण जोनीबाब मस्त शिकला कंय ! कितें म्हणटालो तो..? बि. ये., एम. एस. डब्ल्यू..

जुलियना : ताचें शिकाप आयचा दिसा कांय गरजेचें न्हय.

निर्मला : डेडी ताका पयशे दींवदी घर काण्घेंक. त्या दीस जोनीक सगल्लें न्हय तुका कितले पयशे जाय जाल्यार घे म्हणोन. हांव डेडीलागीं सांगतां जोनिक पयशे दींवक़ !

जुलियाना : आतां वेळ उतर्ला, तें माद्या ना. त्या दीम डेडीन रागाचा फोरमार मांगल्लें.

निर्मला : आतां मोगाचा फोरमार दींवदी.

जुलियाना : विल्फ़ीलागीं मोस्तु पयशे आमात. ताच्या डेडीन सांग्लां तो तुका एक किलो भांगार दितोलो म्हणोन.

मर्विन : एक किलो भांगार..!

जुलियाना : व्हय भुरग्यानो. विल्फ़ी कडेन निम्मीचें काजार जाल्यार तें मुखान जियेतेलें. तो ताका आमेरिका आपोवन वरन, वरें करन हाड्तोलो. तुमींच मांगा खंचें वरें विल्फ़ीलागीं काजार जावन रण्येवरीं जियेंवचें व जोनीलागीं काजार जावन पापारी जिणी जियेंवचें?

डोरिन : निम्मीवाये तूं विल्फ़ीलागीं काज़ार जा. तूं वरें जाल्यार आमकां संतोस न्हयगी !

निर्मला : मर्विन तूं डोरिनाक मांग हांव विल्फ़ीलागीं काज़ार जायना म्हण.

रेमी : *(प्रवेश)* तुजें काज़ार जातेलें.. आनी खंडित जातेलें.

निर्मला : जोनी लागीं मू डेडी? तूं वरो ने डेडी.

रेमी : हांव येदोळ भेरो जांवक नां. तुजें रजार मुखर्मुन व्हचात तर व्हेग्गींच जांवक आसां. तुजें काज़ार विल्फ़ीलागींच जातेलें. कळ्ळेंमू?

निर्मला : हांवें मम्मीक सांगल्लें, आतां परतुन तुका सांगतां. हांव विल्फ़ीलागीं काज़ार जायना. ऐ नोट म्हेरी.. ऐ नोट म्हेरी.. ऐ नोट म्हेरी.. !

रेमी : निर्मला, तूं तुजें मळ मोडिनांय तर जोनीक कष्ट जातेले.

निर्मला : ताका कसले कष्ट? आमकां काज़ार जांवक कष्ट जायनांत. तो म्हाका वरो लागता आनी हांव ताका.

जुलियाना : पूण तो तुका विस्रालापुता. कितले दीस जाले तो आमगेर येंवन. ताणें विल्फ़ीलागीं मांगलां कंय तो तुमच्या वाटेर येंवचो ना म्हण.

निर्मला : तो आमचे वाटेर येना जाल्यार, हांव ताचे वाटेर व्हेतां. ताका हांव मोदुन व्हेतां.

*हांव मनीस जालों !*

डोरिन : अंकल निम्मीक आमीं समजायतांव. तें खंडित विल्फ़ीलागीं काज़ार जातेलें.

रेमी : तुमीं आतां व्हचा भुरग्यानो, फाल्यां ताका तुमी समजयव्येता. आमकां थोडें गर्जेचें दुसरें काम आसा.

मर्विन : जायत अंकल. चलगो डोरिन.

*(भुरगीं भयर व्हचोन जनेलालागीं उभीं रावोन भितर तिळतात)*

रेमी : निर्मला तूं जोनीक मोदुन व्हेताय, तुजें हट्ट तूं सोडिनांय, तो तुजेलागीं काज़ार जांवक तयार नां. आनी तूं ताच्या पाटिक लग्ताय. म्हज्या सोसणीकायेची परीक्षा करिनाका निर्मला. तूं जर तर विल्फ़ीलागिं काज़ार जालेंय जोनी शभित आसतोलो. ना तर म्हज्या हातांत मरतोलो.

निर्मला : नाका डेडी तो म्हाका जाय, तो म्हाका इंगलिष शिकयता. तूं ताका मोरायनाका

रेमी : जर नाणें मोरेंक नोजो तुवें आमचें उतार आयकाजाय पड्तेलें. तूं हां म्हण, तुजो जोनी तुका इंगलिष शिकोंवक येतोलो.

निर्मला : ही कम टीच इंगलिष डेडी. तर हांव विल्फ़ीलागीं काज़ार जातां आनीं जोनी सांगांता रावतां.

जुलियाना : तूं कशें सांगताय तशेंच जातेलेंगो पुता. पयलें तुमचें काज़ार जांवदीं.

निर्मला : पूण जोनी आमगेर कित्याक येना मम्मी? ताका तूं आपोवन हाड्तेलीय मृ? तुवें येदोळ्च जोनीक मारुंक नांमृ डेडी?

रेमी : नांगो वाये. हांवें ताका हाती लांवक नां. तो तुजा काज़ाराक खंडित जावन येतोलो.

*( दिवे पालवातात – पडदो पडता– दिवे परत जळताना )*

*(विल्फ़ी सुटाचेर बसला. रंगमांचाचेर एका खुशिन दोन व्हड सूट केसी. विल्फ़ीचा हातांत पासपोर्ट आनी प्लेनाच्यो टिकेटी आसात)*

विलफ्रेड : निर्मला व्हेग्गीं ये.. आमकां वेळ जाता. *(डोरिन आनी मर्विन प्रवेश)*

मर्विन : विल्फ़ी..; व्हो सोरी.. तूं आतां आमचो भावोजी. भावोजे, तुजी व्हकाल भितर आसा. नेस्ता.

डोरिन : तें न्हेस्ता खंयरे. तें न्हेसचें प्रयत्न कर्ता. अंटीन न्हेसयतना तें आयकना. आपुणुंच न्हेसतां म्हणटा.

मर्विन : भाय साडी न्हेसलें, आनी तुमी आमेरिका गेल्यात..!

डोरिन : भावाजे, तूं आमेरिका थावन आमकां कितें हाड्ताय?

विलफ्रेड : हांव आमेरिका थवन तुमकां बोरीं बोरीं चोकलेटां हडतां.

मर्विन : वस चोकलेटां..?

विलफ्रेड : आनी कितें हाडुं तुमका? तुमींच सांगा. कितलें म्हळयारी तुमी म्हज्या व्हक्लेचीं फ्रेंड्सां. तुमी सांगल्लें हाडुंकुच जाय पळे.

डोरिन : तूं आमेरिका थावन वरीं जीन्स आनी टी–शरटां हाडन ये.

मर्विन : टी–शर्टा आनी जीन्स चेड्यांची, तुका कित्याक–गो?

डोरिन : चेड्वां कितें जीन्स घालिनांतगी..? जीन्स घाल्यार टी–शर्ट जाय.

विलफ्रेड : जायत.. जायत. तुमकां जाय तें हाडतां. *(जुलियाना आनी निर्मला प्रवेश. निर्मलान अड्डा–दिड्डी साडी गुट्लयल्या. डोरिन आनी मर्विन जोरान हासतात.)*

निर्मला : साडी हांवच नेसल्लीं. हांव कशीं दिसतां? ऐ लुक नायस नो?

जुलियाना : हांवें सांगल्यारी आयकोंक नां. वेळ जाता हांव न्हेसयतां म्हळ्यार ताचें मळ सुटाना. देकुन न्हेम म्हण सोड्लें. तशें पुणी समाधान जांवदी.

विलफ्रेड : व्हो कसलो मार्नेमीचो वेस निर्मला? आमकां व्हचोंक वेळ जाता. मम्मी तुका साडी न्हेमयतेली. व्हच भितर. राव, तुवें साडी न्हेसची नाका. अंटी.. सोरी, माम्मी तूं ताका अंगलेंच घाल. कंय एरपोरटांत व एरोप्लेनांत साडी सुट्ली तर म्हज्या नावाक तीन नाम जातेले. आमेरिकांत कशेंय साडयो न्हेसानांत.

निर्मला : म्हाका साडी न्हेसोंक जाय. हांव आमेरिकांत आंगलें घलीना. म्हाका काजार जालां. काजार जाल्लीं आंगलें घालिनांत.

विलफ्रेड : *(जोरान)* तूं आतां वऱ्यान भितर व्हचोन हांवें मांगल्लें वशेन कर्तीय व..? *( सगळीं एक पावटीं आंग काडतात. विलफ्रेड जीब चभता. निर्मला भियान भितर धांवता. ताचे सांगाता डोरिन आनी मर्विन )* व्हो.. सोरी, म्हाका खंयसरी पावताना वेळार पांवची सवय. कितेंय अडकळ जाल्यार तें म्हाका सोसाना. हांवें देंख्यो गालो म्हण म्हजेर शिणानाकात.

जुलियाना : कांय व्हड ना-रे पुता. मनशान वेळाक माहत्व दीवंक जाय. आनी कितलेयी कष्ट येंवदींत, दिल्ली भास पाळुंक जाय. पूण म्हज्या चेड्वाक सांभाळ. ल्हान भुरग्या वशेन तें. तें व्हड आवाजाक आंग काडता आनी भियेता.

विलफ्रेड : त्या विशेंत तूं कांय फ़िकिर करिनाका माम्मी. पाटीं येताना सरव ताचे समस्से निवारतेले.

रेमी : कितें गजाल विल्फ़ी. कोणाक कितें समस्से?

जुलियाना : व्हड्लो समस्सो म्हाका तुजो आसल्लो. तुका म्हताऱ्याक न्हेसोंक कितलो वेळ-गी म्हणटां हांव. तायार जालोय न्हयवे? देवाक आरगां !

रेमी : तूं एक हरयेक पावटीं म्हज्या न्हेस्पाचा पाटीक लाग्ताय? तें कितें बायलांचेंच हक्क म्हण्टचेंवे तुवें?

जोनी : *(प्रवेश)* ह्या घरांत म्हजेंयीं कांय हक्क आसागी मिस्टर कुलासो? म्हाका लाग्ता तूं दादल्यांचा हक्कां विश्यांत उलेयतालोय?

विलफ्रेड : देव बरो दीस दींव जोनी. काज़ारा उप्रांत दिष्ट्रिक पोडोंक नांय. कांय भलय्की पुणी?

जोनी : देवाच्या दयेन हांव बरो आसां विल्फ़ी. तुमीं नवया काज़ाऱ्यां मधें, शेवग्यांत लाडु जावचें कित्याक म्हणोन हांव येंवक नां. तुमच्या पयणाची तयारय जाल्ल्या बरी दिस्ता. वेळार पावलों हांव.

रेमी : काज़ारा वेळीं तुवें केल्लो वावर विशेष जोनी. तुजो उपकार भावडुंक सयत तुवें आवकास दिलो नांय.

जुलियाना : आमच्या चेड्वान काज़ाराक हां म्हणाजाय तर ताकायी तूंच काराण जालोय. आमी तुका सदां ऋणी जावनास्तेल्यांव.

जोनी : हांव कोणयचें काम कर्तां तर एका उद्देशान करतां श्रीमती आनी श्री कुलासो. आनी तो उद्देश उग्डापो करचो वेळ येताना हांव खंडित जावन करतोलों. हांव मनीस जावन जियेंवक आशेतां आनी हेरांकी मनशापण कितें तें समजांवचें प्रयतन करतां.

रेमी : आमकां आतां व्हचोंक जाय जोनी. तुवें आमचा संगीं एरपोर्टाक येवयेत.

जोनी : खंडित जावन मिस्टर कुलासो. तुमी आतां व्हचोंक जाय. हांव तुमचे संगीं एरपोर्टाक येंवक सक्चो नां कित्याक थंयसर विल्फ्रीचो डेडी श्री आंतोन गोमस तूंमकां राकोन आसतोलो. सद्याक हांव ताका भेटोंवक आपेक्षिना. पूण आमचा व्हकालवायेक मेळानासताना, ताका बरें मागानासताना हांवें व्हचोंक साध्य नां.

जुलियाना : वाये निम्मी व्हेग्गीं वायर ये, आमकां व्हचोंक वेळ जाता. तुका कोण मेळोंक आयला पळे. *( निर्मला, डोरिन आनी मर्विन प्रवेश )*

निर्मला : जोनी यु कम? वि आमेरिका गोयिंग़. ओल्सो यु कम नो? कितले दीस थावन यु नोट कम अवर हौस? म्हाका विल्फ़ी येरोप्लेनाचेर आपोवन वर्ता कंय. आमेरिका पयस आसागी जोनी?

जोनी : येरोप्लेनाचेर गेल्यार आमेरिका लाग्गींच आसा. तुमी व्हेचा येरोप्लेनाचेर म्हाका जागो ना. तुमी मुखार व्हचा. हांव पाट्ल्यान दुस्रें येरोप्लेन धरन येतां. विल्फ़ी तुका बरें करन पोळयतोलो. कितें म्हणटाय विल्फ़ी तूं? आमच्या निम्मीवायेक कितेंच त्रास जांवक नोजो म्हळ्ळें हांवें तुका मांगाजाय म्हण नां.

विल्फ्रेड : ताचे थंय म्हाकायी जववदारी वांद्ता म्हणटाना तुमी निम्मी विश्यांत वेफ़िकिर रावयेत जोनी. बरें तर; पावुल्या उपरांत फ़ोन करन हांव म्हजो टिकाणो तुमकां कळयतोलों.

मर्विन : निम्मीवाये तुका हांवें मोस्तु पवटीं दुकयलां. म्हाका माफ़ कर. तूं आयिल्या उप्रांत विल्फ़ी भावाजिच्या घरा व्हेतेलेंय आनी आमकां मेळचें नांय.

डोरिन : आमचो आनी तुका उग्डास आमतागी नांगी? आमकां तुजो उग्डास खंडित येतोलो. आमचे मांगाता खेळोंक कोण आमा..? *(रड्तात)*

निर्मला : मर्विन.. डोरिन.. यु क्राय? तुमी रडतात? तुमकां कोणें मांग्लें हांव विल्फ़ीच्या घरा व्हेतां म्हणोन. हांव ताचे मांगाता काज़ार मात्र जाल्यां. हांव खंय व्हचाना. ऐ कम मै होम. तुमी रडल्यार ऐ गो नो आमेरिका.

जोनी : डोरिन, मर्विन, तुमच्या निम्मीवायेन आमेरिका व्हचोंक जाय. ताणें बरें जांवक जाय मु..? तें आमेरिका व्हचोन बरें जावन येंवक मागा.

डोरिन : जायत जोनीवाव, आमी मागतेल्यांव आनी आमचें निम्मीवाय बरें जातेलें.

मर्विन : ओल द बेस्ट निम्मी वाय. टा.. टा..

निर्मला : (*दोगांयकी उमो दिता*) तुमकांयी बेस्ट ओल. हांव व्हेग्गीं येतां. उप्रांत आमी मांगाता खेळयां.

*( दिवे पलवातात – परत दिवे पेटताना )*

जुलियाना : जाय म्हळ्ळी वस्न एका टिकाण्यार मेळचा वरी नां ह्या घरांत. पयलें चेडुं वरन खंय खंय दरतालें म्हण जालें. तीं डोरिन आनी मर्विन तरी मदां येनांत. तर ह्या टी–पोयाचेर दवरल्ली वस्त मायाग जाली म्हळ्यारी खंय !

र्मी : *(भितर थावन)* कितें जालें जूली? मकाळीं पुडें कोणालागीं उलवन आमाय? क्रोण आयलां थंय?

जुलियाना : येंवचें कोणें? हांव म्हज्या माथ्याचें क्लिप सोदुन आमां. मकाळीं न्हांव्क व्हेताना धरवोड्यान टी–पोयाचेर दवरल्लो उग्डास आमा म्हाका. तिनल्या भितर मायाग जालें म्हळ्यार? तुवें पुणीं पळेयलांवे?

रेमी : हांव कितें तुजा क्लिप्पचो रकोण वोडवोवें जूली. खंयमरी हात चुकोन दवरलांय आमतेलें. मोद मेळ्तेलें.

जुलियाना : तूं कितें भितर थावन म्हाका वांजेल वाचताय? भयर ये आनी सोदुंक इल्ली कुमोक कर.

रेमी : हांव हांगा खड काड्तां. तुजें क्लिप मोदुंक म्हाका पुर्सोत नां. तुका खंय व्हचोंक धर्वड जाता?

जुलियाना : वाजाराक कोण तूं व्हेतोलोयवे? व्हेग्गीं व्हचाना जाल्यार उप्रांत पोंवटेल्लें हाडुंक पोडता. आज भुर्ग्यांक सुटी आसा, जेंवक आमगेर येतेलीं म्हण ताणीं फ़ोन करन सागलां. *(डोरिन आनी मर्विन प्रवेश )*

मर्विन : कितें जालें अंटी कोणाक पुरपुर्ताय?

जुलियाना : तुमीं कितें व्हेग्गींच आयल्यात? पुरपुरचें कोणाक?

डोरिन : आनी आमी भितर येताना कोणालागीं उलयतालीय? हांगा तरी तूं एक्लिच आसाय?

जुलियाना : हांगा हांव येकलिंच आसां तरी भितर एकलो आसा न्हयवे?

मर्विन : भितर एकलो आसा? कोण अंटी?

जुलियाना : तुमीं कित्याक घावरतातेरे पुता. भितर आमा तुमचोच अंकल. हांव म्हजें क्लिप मोद्तां. न्हांव्क व्हेताना ह्या टी–पोयाचेर दवरल्लें. आतां दिसाना. *( डोरिन आनी मर्विन एकामेकाक पळेवन दोळे मारतात )*

डोरिन : तुजें क्लिप भयर पड्लांगी अंटी..? वम तितलेंचगी? एक भयर पड्ल्यार दुस्रें हाड्योत. अंकलाक हांव मांग्तां. तो तुका धा किल्पां हाडन दितोलो !

जुलियाना : तुजो अंकल पोंचिम हाडित मू..! पूण तें क्लिप म्हज्या पसंधेचें. म्हज्या उग्डसाक कितें जालांगी म्हणटां हांव.

मर्विन : जर आमी तुजें क्लिप मोदुन दिल्यार तूं आमकां कितें दिताय?

जुलियाना : तुमकां कितें जाय तें. हां, तुमकां म्हजे मांगाता वाजाराक आपोवन व्हरतां आनी कितें जाय तें दितां.

डोरिन : तर तुजें क्लिप खंय आमा तें हांव मांग्तां.

मर्विन : तूं मागानाकागो, हांव मांग्नां. पयलें हांवें पळेयल्लें !

डोरिन : तुवें पळेयल्लें विंट्टी मोलां. पळेयल्लें हांवें पयलें.

जुलियाना : अरे, तुमी झगडतात क्लिप तुमच्या दोळयां समोर आसल्ल्य वरीं. खंय आसागो बाये क्लिप?

रेमी : *( प्रवेश )* जर क्लिप हांवें दाकोवन दिल्यार तूं म्हाका कितें दितेलेंय?

जुलियाना : तुमी मक्कड मांगाता मेळोन म्हजे तामासे करतातगी कितें?

रेमी : कोंकणींत एक मांग्णी आसा..

मर्विन : अंकल..! अंकल तूं तुजी मांग्णी मुखारसिनाका. क्लिप दाखोवन दिल्यार अंटीन आमकां वाजाराक आपोवन वरन, ऐस क्रीम काण्धेवन दितां म्हळां.

जुलियाना : हांवें केदाळा ऐस क्रीम काण्धेवन दितां म्हळां रे तुका?

मर्विन : तुमकां जाय जाल्लें काण्धेवन दितां म्हळ्ळेंय, तांतु ऐस क्रीम येनांगी?

रेमी : तर तुमचे येग्रिमेंट जालां. तर तुमींच दाखोवन दिया तुमच्या अंटीचें क्लिप.

जुलियाना : म्हाका वाजाराक व्हचोंक वेळ जालो. तुमी कितें म्हजे पाय वोडतात? खंय आसारे क्लिप? तुवें लिपोवन पुणी दवरलंयगी?

डोरिन : क्लिप तुजा शेंडयार आसा. आनी तूं संसार भर सोद्ताय.

रेमी : खांद्यार मोडुं दवरून संसार भर सोदतालो कंय एक्लो. तशें तुजी गत.

जुलियाना : पुरो.. पुरो. तुमकां येंवक जाय जाल्यार व्हेग्गीं भयर सरा म्हजे मांगाता. हांव चल्लीं. *( जुलियाना, मर्विन आनी डोरिन व्हेतात. रेमी सोफ़ाचेर बसोन दिसाळें वाच्ता. तोड्या वेळान जोनी प्रवेश )*

जोनी : देव वरो दीस दींव मिस्टर कुलासो..

रेमी : देव वरो दीस दींव. कितें गरजेन पावलोय जोनी?

जोनी : जोनी कितेंय गरज वा काम नासताना कोणायच्या घरा व्हचाना मिस्टर कुलासो?

रेमी : हांव जाणां आमलल्यान तुका विमारलें. कितें गरजेन पावलोयगी म्हणोन?

जोनी : आमेरिका थावन कांय खवर आमागी मिस्टर कुलासो, तुजा जांवया आनी धुवे विश्यांत?

रेमी : काल रातीं फ़ोन आयिल्लें. दाकतेराचें येपोंयंटमेंट आजूनी मेळोंक नां म्हणटालो विल्फ़ी. निर्मलालागीं उलोंवचो आवकास मेळोंवक नां.

जोनी : तर तूं निर्मला लागीं उलंव्क नांय. तें आसों मिस्टर कुलासो. आतां हांवें आयिल्ली गरज़. तूं जाणांय, तुजेर कानूनी क्रम घेंवचा तसलें हातेर म्हजेलागीं आसा. तरी हांवें तें वापुंक ना. विल्फ़ीचा वापायक श्री अंतोन गोमसाक हांव फाशेचा खांव्याक उमकाळांवक सक्तां तें हांवें करुंक ना. तुजा धुवेचें काजार हांव आडांवक सक्तों. हांवें तें केलें ना.

रेमी : हांवें जाणां, तें. आतां ह्या सरवांची वाड वसूल करुंक आयलाय?

जोनी : म्हज्या मतिंतलें तुवें मार्कें वाचलेंय मिस्टर कुलासो. पूण तांतूं इल्लो तफ़ावोत आसा. हांव वाडी मांगाता असलयी वसूल करुंक आयलां.

रेमी : हांव समजोंवक नां.

जोनी : समजातोलोय. म्हाका वोल्या भंवतीं वोंवडांवची सवय नां. म्हाका तुजे थावन 5 लाख रुपय जाय !

रेमी : तुका म्हजे थावन कितले लाख रुपोय जाय म्हळेंय तुवें?!

जोनी : हांवें 5 लाख रुपय म्हळें मिस्टर कुलासो.

रेमी : 5 लाख रुपय आनी म्हजेलागीं ! तूं मार्कें मतिर आसायसू?

जोनी : हांव मारकें मतिर आसोन उलयतां मिस्टर कुलासो. म्हाका तुजे थावन 5 लाख रुपय जाय आनी तूं म्हाका दितोलोय.

रेमी : तूं म्हजे थावन पयशे मागताय जोनी? तुजा सिध्दांतांक वूराक पड्लो वा तुका विसर पड्ली? "तुजा पयशांचेर हांव तुक्तां" म्हळ्ळो ग्राय्क तूं, आज म्हजेलागीं पयशांक हात उदार कर्ताय?

जोनी : मिस्टर कुलासो, तुजा जिवेक लगाम दी. तुजा जिण्येंत सिध्दांत म्हळ्ळो नातल्ल्यान तुजी वाट मुक्ल्या. जैला थावन सुटल्ल्या पयल्याच दीस जर तर हांव एका दुकाना मुखार उबो जाल्लों, तो दुकानवालो नोटाचें बंडल म्हज्या उदार्या हातीं दवर्तो आसल्लो. कित्याक जैलाचो नोव वर्सांचो अनुभव म्हाका आसल्लो. तुमकां मर्याधवंत गुंडांक तुमचा समाजेंत तुमचीच म्हळ्ळी मान–मर्याद आसा. ती तुमी पयश्यांच्या बोळार आपणायतात. जैलाचें वारें सेवल्ल्याक सकयल्ल्या संसारांत आपापिंच आपलें म्हळ्ळें स्थान फावो जाता. लोक भियान ताका माथ्यार बसयतात. आंतोन गोमसा तसले तांका मोलाक घेवन अपलीं कामां कर्न घेतात. जर तर म्हाका त्या वाटेन व्चोंक आसल्लें हांव भायल्या भायर तुमचेर एह्योळ फारिक्फोण घेतों आसल्लों. हांवें तुजे मुखार हात उदारे करुंक नांत मिस्टर कुलासो.

रेमी : हात उदारे वा बोमते, तुवें म्हजेलागीं पयशे विचार्लेय न्हंय?

जोनी : हां तें नेगार करिना. हांवें तुजे लागीं 5 लाख मागल्यात आनी ते म्हाका जाय.

रेमी : जर तर तुवें कोणांय थावन एह्योळ पयशे घेंवक नांय तूं दीस कशे सर्ताय? तुजेलागीं काम न, धंदो न.

जोनी : तूं एक नितिधार जावनासल्लोय आनी हें तुका कळित आसोंक जाय. नोव वर्सां जैलांत व्हगे बसोंक ना, बगार एकेन्तपणान वावुरलो. म्हाका सुटका लाभताना बरोच ऐवज म्हाका हातीं आयलो.

रेमी : तुका आतां 5 लाख कित्या खातिर जाय?

जोनी : म्हाका 5 लाख कित्या खातिर जाय तें तुका सांगाजाय म्हळ्ळी गरज म्हाका दिसाना.

रेमी : म्हजेलागीं तित्ले पयशे नांत.

जोनी : तुजेलागीं नांत तर तुजो नवो सयरो आनी आप्त मित्र आंतोन गोमस आसा. ताचे थावन तुवें घेवयेत, म्हजी अड्कळ ना.

रेमी : हो दुडु तुंच ताचे थावन कित्याक घेनांय?

जोनी : तुका विचारूंक लज दिस्ता व भिरांत दिस्ता? अन्न्याच्या वाटेर चलतेल्यांक लज म्हळ्ळी आमाना. आनी आसोंकी नजो मिस्टर कुलासो.

रेमी : हांव जर तर पयशे दिना तर...

जोनी : तूं दितोलोय मिस्टर कुलासो. तितलो भरवासो म्हाका आसा. म्हाका पयशे फ़ाल्यां दोनपारां भितर जाय. उप्रांत तुवें सुशेगात रावयेत. तुजा वाटेर हांव येंवचो नां.

रेमी : म्हळयार तूं पयशे घेवन आमचे विरोध तुजेलागीं असचे पुरावे म्हाका दितोलोय?

जोनी : म्हज्या ह्या वोडा भितर इल्लो कार्कु आसा. पुरावे तुजे हातीं दीवन तुजो गुलाम जांवची इच्छा म्हाका नां. पूण हांव तुका भास दितां, हाचे उप्रांत तुजे समोर पयश्यां खातीर केदिंच येंवचो नां. आन्येक संगत उगडास दवर, म्हाका पयशे दीवन तूं पश्च्चात्ताप पांवचोनांय.

रेमी : पूण तुजो कितें भरवासो. तूं परत येंवचो नांय म्हळ्ळो?

जोनी : हांव तुजा समाजेंतलो गुंडा न्हय मिस्टर कुलासो. हांव दिल्लें उतार मोड्चो राजकारणियी न्हय. हांव एक मनीस जावन जियेंवक आशेतां. म्हजो मुखलो उद्देश पोंताक पावोंक म्हाका पयश्यांची गरज आसा.

रेमी : तर तूं फ़ाल्यां सांजेर ये. तुजे पयशे तयार असतेले. ताचे उप्रांत हांव तुजें मुसकार पळेंवकी आपेक्शिना.

जोनी : हांवी तेंच आशेतां. म्हकायी ह्या घर्चो उंभोर चड्ची गरज पडाना जांवदी. म्हज्या जिविताचें पयण म्हाका खंय वरन पायता तें पळेंवक आसा. तर फ़ाल्यां सांजेर 6 वरार म्हजी आनी तुजी भेट जातेली.

*( दिवे पालवातात – परत दिवे पेटताना.. )*

*(जुलियाना सोफ़ाचेर बसोन आसा. मर्विन आनी डोरिन पाटल्यान येवन उबी रावतात )*

डोरिन : आंटी तुमच्या गेरेजिंत अंकलान तुका आतांच येंवक सांग्लां.

जुलियाना : अरे, भितर आसल्लो तुमचो अंकल गेरेजिक केदाळा गेलो. कितें काम आसा खंय?

मर्विन : कितें काम आसा तें तूंच व्हचोन विचार. अमकां तोडी सांगता तो?

जुलियाना : तोडीगी.. पोडीगी.. न्हय; सकाळीं फुडें गेरेजिंत कितें कर्ता तें म्हकायी पळेंवक जाय. मिटिंगाक व्हचोंक आसा, भाषण दिंवक आसा म्हण काल थावन पुरपुरोन आसल्लो.

डोरिन : तूं पयलें गेरेजिक व्हचोन यें, नां जाल्यार तुजेर रागार जांवक आसा.

जुलियाना : वयगो पुता, आजकाल ताका राग नाकाचा तुद्येर आसा. हांव व्हचोन कितें जाय तें पळेवन येतां. *( व्हेता )*

रेमी : *( आपल्या कुडा थावन भयर येता )* आज कितें सकाळींच तुमची सवारी आमचे तिवशिन पावली. जूली..., जूली..., म्हजो नष्टो तयार जालावे? म्हाका व्हचोंक वेळ जालो. अरे तुमची आंटी खंय गेली?

मर्विन : आमी भितर येताना अंटी तुका सोदुन भयर गेली.

रेमी : हंव भितर आसताना म्हाका सोदुन भयर गेली. तकलेचो इस्कूर पुणी सडिळ जांवक नां मू ताचो? *( जुलियाना आससोरान भितर येता )*

जुलियाना : म्हाका गेरेजिक आपोवन तूं भितर कितें करताय रेमी? भितर खंचान आनी कसो पावलोय तूं?

रेमी : तुका गेरेजिक हांवें आपयलें ! तुजी तक्ली ससा आसासू? म्हाका व्हेगगीं नष्टो तयार कर म्हण उटतानांच तुका सांगल्लें. भुरगीं म्हण्टात तूं म्हाका सोदुन गेरेजिक गेलांय म्हण. कितें गज़ाल जूली?

जुलियाना : तूं म्हजेर कित्याक मणमणताय? ह्या भुरग्यां लागींच विचार.

डोरिन/मर्विन: येप्रिल फ़ूल वानाया.. अंटिको गुसा आया.. अंटी आज येप्रिल फ़ूल न्हयवे.. येप्रिल फ़ूल..?

रेमी : *( हासोन )* सांगल्ल्या वरी आज येप्रिलाची एक तारिक़. भुरग्यांक तूं बरें ग्रायक सांपड्लेंय !

जुलियाना : तुमकां हरयेक पावटीं हांवच मेळतांगी. तुजो नष्टो वडोळ्चा कालाक तयार करुन दवर्ला. आतां निव्लो आसतोलो.

डोरिन : आमकां निवल्लो नष्टो चल्ता. अंकलाक पर्तुन उनोनी कर.

रेमी : आज एक तारीक. विल्फ़ी आनी निर्मला आमेरिका व्हचोन 3 म्हहिने जाले. व्हो चेडो खचेंयी मार्कें मांगाना. वरोंवची तरी सवय ताका ना.

जुलियाना : गेलेत्या म्हहिन्यांत पयशे उणे पड्ल्यात, दाड म्हण बरयिल्लें. कित्ले पयशे दाड्लेय? वोट्टारे चेडुं बरें जाल्यार पुरो.

रेमी : पयशे पुणी दाड्ल्यातमू. पूण म्हाका एक समजाना. आपल्या बापाय थावन पयशे हाडोंन्चा वद्लाक म्हजेलागीं कित्याक विचार्ले? आनी ऐवाज कांय ल्हान न्हय?

जुलियाना : दाकतेराक दिंवक आसतेले. आमच्या चेड्वा खातीर तो आमचे लांगीं विचारिनामताना आपल्या बापाय लागीं कित्याक विचारतोलो?

मर्विन : निर्मला केदाळा येता अंकल? आमकां ताका पळेंवक आशा जाल्या. कितले दीस जाले तें व्हचोन.

जुलियाना : आमकांयीं ताचो मोसतु उगडास येता पुता. दोळ्यां मुखार आसताना कळानातल्लें. आतां ताचो वेगळाचार म्हाका खांवक येता. उलोव्यां म्हळ्यार त्या चेडयान ताणें रांवचो टिकाणो, फ़ोन नंबर कितेंच दीवंक नां.

रेमी : एक पावटीं पार्टी येंवदी तो. जायतें सांगोंक आसा म्हाका.

विलफ़्रेड : *( फ्रवेश )* कितें सांगोंक आसा डेडी? अळे हांव आयलां.

जुलियाना : विल्फ़ी तुमी आयल्यात?

विलफ़्रेड : आमी न्हय हांव. हांव एक्लोच आयलां.

रेमी : व्हो वेळ खुशाल उलंवचो न्हय. आमकां चेड्वाक पळेंवक आशा जाल्या.

जुलियाना : निम्मी; निम्मी. भितर येगो पुता. आमकां कित्याक कांटयेर उबें करताय? लज दिसता आस्तेली चेड्वाक !

डोरिन : निम्मीवायेक आमी व्हचोन आपोवन हाडतांव. ताची लज सुटयतांव.

विलफ़्रेड : कोणेंयीं भयर व्हेची गरज नां. हांवें तुमकां सांगलें हांव एक्लोच आयलां.

रेमी : म्हळ्यार ताका वकता खातीर पाटीं रांवचें पड्लें?

विलफ्रेड : तुमचा चेड्वान म्हाका घात केलो डेडी !

जुलियाना : तूं एक्लो आयलाय? आमच्या चेडवान तुका घात केलो? खंची भास उलयताय विल्फ़ी तूं? तोंडांत बोट घाल्यार चावोंक कळित नातलेल्या बुद्दु चेड्वान तुका घात केलो म्हळ्यार कोणी पातयेत?

रेमी : तूं एक्लो आयलाय तर आमचें चेडुं खंय आसा विल्फ़ी? तुका घात केलो म्हळ्यार तें थंयमर दुस्त्रया मांगाता धावलें?

विलफ्रेड : तुमच्या चेडवा वर्वीं हातांतले सरव पयशे हांवें होगडायले. नानांतया कष्टांक हांवें म्हातें मारुंक पड्लें. हांव भाग्ताक पाटीं कसो आयलों तें तुमी नेणांत !

रेमी : पयशे खर्चुंक पडतेले, कष्टांक फुड करुंक पड्तेलें म्हळ्ळें तूं काज़ारा आधीं बरें करून जाणा आसल्लोय विल्फी. ती म्हज्या सवलाची जवाव न्हय.

विलफ्रेड : तुजा सवलाची जवाव दीवंकच आयलां ड्याडी हांव. तुमकां कांय विशेष भोगचें ना. कित्याक ल्हान थावन तुमी ताची जतन घेतल्ली ना. ताका मोग दिल्लो ना. आनी तुवें माम्मी, काजारा पयलें जाय पुर्ती शिकोवण ताका दीवंक नांय. काज़ारी जिविताची एक रात, जांव हांगासर वा आमेरिकांत ताचेसंगीं पाशार करुंक ताणें आवकास दिलो ना. तें म्हज्या होटेलाचा कूडा थावन पोळन धावलें.

जुलियाना : आमी ताका मोग दीवंक नां? आमी ताची जतन घेंवक नां? पोळन धांवलें? तूं मारक्या मतिर आमोन उलयताय विल्फ़ी? ह्या परीं आमच्या चेडवाक वाटेर घालुंक ताका तुजेलगीं काजार करन दीवंक नां.

रेमी : जूली, तूं चिक्कें समाधान घे. ताका पुर्तें आयक.

जुलियाना : आनी आयकोंक कितें आसा? हाणें म्हज्या चेडवाक वाटेर घालें. त्या आमेरिकाच्या गावांत तें खंयमर आसा म्हण आमी सोदुन व्हेचें?

विलफ्रेड : तुमी ताका सोदुन व्हेची गरज नां. आनी तें पाटीं येंवचें नां.

रेमी : तुजा उत्रांचो मतलभ कितें विल्फ़ी? पाटीं येंवचें नां म्हळयार?

विलफ्रेड : हांव ताका सोदुन तक्लों. पोलिसांक कंपलैंट दिलें. आनी निमाणें....

जुलियाना : कितें जालें विल्फ़ी? नरगाताय कित्याक?

विलफ्रेड : गेलेत्या हपत्यांत लोकाचो संचार नातल्ल्या एक्सुर्या गल्लेंत ताचें मोडें पोलिसांक सांपोडलें...

डोरिन/मर्विन: आमचें निम्मीवाय मेलें?

जूलीयाना : निर्मला मेलें? म्हजें भुरगें निम्मी.....

रेमी : तूं सत उलयताय विल्फ़ी? म्हज्या चेडवाक कितें जालें, कशें मेलें तें?

विलफ्रेड : पोलिसानीं सांगचा प्रकार कोणे तरी ताचेर आत्याचार करन, ताका मारन उडयलें..

रेमी : आनी ताचें मोडें?

विलफ्रेड : तें सांपोडताना, नां म्हाका संगोंक सयत भिरांत दिसता. तें हाड्चा स्थितेर नातल्ल्यान ताचें अंतिम कार्यें थंयस करुंक पोड्लें.

जुलियाना : म्हज्या वाळाचेर एक आखेची दीष्ट सयत घालुंक म्हाका फ़ावो जालें ना ! रेमी हें कितें जालें? आमकां कित्याक जाय आसल्लें आमेरिका? आसल्ल्या वशेन आसतें आसल्लें हांगासर. म्हज्या वाळाचेर आत्याचेर केल्ल्या त्या कर्म्याक किडे पोडोंक !!

रेमी : जूली.., समाधान घे. देवाची खुशी तशी आसल्ली जांवक पुरो.

मर्विन : तुका देवाचो उगडास आतां आयलोगी अंकल. आमच्या निम्मीबायेक जोनिलागीं काजार जांवक मोन आसल्लें. आमेरिका व्हचोंक नाका आसल्लें. आमचें निम्मीवाय आनी आमकां नां... *(रड्ता)*

डोरिन : आनी आमी कोणा सांगाता खेळचें?

रेमी : म्हाका माफ़ करा म्हज्या भुरग्यानो. हांवें चिंतल्लें म्हज्या चेड्वाचें जिवित वद्लातेलें म्हणोन.

जुलियाना : तुवें तुजी जवावदारी संवाळुंक नांय विल्फ़ी. तुजा भर्वास्यार आमी ताका दाडल्लें.

*हांव मनीस जालों !*

रेमी : तो तरी कितें कारतोलो जूली? आमच्या चेडवाची मनास्थिती कशी आसल्ली तें तूं जाणांय. विल्फ्रीक दुस्मोन कितें पायदो? आमचें नशिभ म्हणोंक जाय. आमी ताचे थंय ल्हान थावन दाकयिल्या भेपरव्याची शिक्षा आमकां मेळ्ळया.

*( दिवे पालवातात – परत दिवे पेटताना.. )*

*(एका वरसा उप्रांत. दृश्यांत तोडी बद्‌लावण करुंक जाय. बाग्लां जनेलाचे कर्टन बद्‌लुंक जाय. आराम कदेलार बसोन रेमी खोंखता. ताची भलायकी भिगड्ल्या. जुलियाना ताचे मर्शीं उबी आसा. ताची पाट पोशेता. )*

रेमी : एक वरस जालें आमचें चेडुं आमकां सोडन व्हचोन. देवान तरी शिर पळेवन वरो दाग दिलो म्हाका. कितें हांवें चिंतल्लें. व्हड व्हड स्वपणां हांवें पळेयिल्लीं . अंतोनावाचा कुमकेन राजकाराणी जातोलों, एक दीस मंत्री जातोलों. आतां अंतोनावयी म्हाका लागीं करी ना.

जुलियाना : तूं उलयल्लेंच उलवन कित्याक पुरासण करन घेताय रेमी? आमच्या पातकाचें लेख आमी ह्या संसारांत दीवंक जाय म्हण ताणें निर्मीलां जांवक पुरो.

रेमी : आंमचो जांवोंय विल्फ्री सयत आमच्या खब्रेर ना. आमच्या ह्या एक्सूरफोणांत मांगात दितात जाल्यार तीं भुर्गीं, डोरिन आनी मर्विन मात्र.

जुलियाना : विल्फ्रीक आमची सेवा करुंक वेळ खंय आसा? तो ताच्या सोवाली इष्टां मांगाता भवोन खाताना आमचो उगडास कसो येतोलो? हांव मनीस जालों. तुमच्या चेडवान म्हाका मनीस केलो म्हळ्ळो विल्फ्री. आमच्या चेड्वाचा मोर्ना उप्रांत आपलें मान्शापण विसारला. हातांतले पयशे खवार जाल्या उप्रांत येतोलो मागोंक तुजेलागीं ! ताच्या वापायक गत ना पळे !

रेमी : आमचो जांवोंय तो जूली. ताच्या मोतिक बेजाराय जाल्या. आनी कितें करतोलो बावडो? आमचे थोडे पयशे खरच केल्ल्यान आमी कांय दुबळीं जायनांव पळे.

जुलियाना : आमकांयीं बेजाराय आसा, पूण आमी ताणें केल्ल्या बरी करिनांव रेमी. ताणें मोरो पियेंवक धर्ला. सांगाता ढ्रग्स घेता म्हळ्ळी खबर आसा म्हाका.

रेमी : कितें ड्रग्स घेता? आपलें तरनाट्पोण हुल्यावन घेता. तर आंतोनावाक सांगाजाय पड्तेलें. ताचें पर्तुन काजार केल्यार सारक्या वाटेक येतोलो. आमचें कितें जूली, म्हातारपोण आयलें. आतां दीस मेजुन रांवचें.

जुलियाना : तूं कित्याक जिवितांत इतलो कांटाळ्ळाय रेमी? निर्मलाचा मोर्नान तुका निराशी केला. ताचो उगडास म्हाकायी येता, पुण कितें करुंक जाता. आमच्या वांट्याक आयिल्लें आमी भोगुंक जाय.

रेमी : हांवें एक आलोचन केल्या जूली. आमच्या आस्ती–बद्काक कोणाक तरी वारेस्दार करुंक जाय. फ़ाल्यां म्हाका कांय कीस घड्लें उप्रांत तोंद्रे जातेले. हाव चिंतांलों.. ..

जुलियाना : चुकोन तरी आमच्या जांवयाच्या नांवार करिनाका. आमी जीव आस्तानांच आमचा हातांत कट्टी आनी दांडो दीवंक आसा. म्हाका ताचेर भरवासो ना.

रेमी : ताच्या नावार करुंक तांका कितें उणें आसा जूली? आंतोनावाक आसचो एक्लोच पूत आनी ताचे लागीं आसा कोरोडानीं. म्हजी अलोचन दुस्रिच आसा.

जुलियाना : म्हाका समजोंक ना.

रेमी : पळे जोनी आपल्या उत्रां पर्माणें चल्लो. 5 लाख रुपय घेवन घेल्ल्या ताचो आज म्हणामर पात्तो ना. आमी ताका आमचे थावन एक पयशो दिल्लो ना. मक्कड आंतोनावा थावन घेवन दिल्लो. आज तो म्हाका मेळल्लो तर ह्या आस्तीचें एक ट्रस्ट करन ताका हांव ताचो ट्रस्टी कर्तों

कोण्णा. आतां म्हाका दुस्री वाट ना. हांवें म्हजी आस्त डोरिन आनी मर्विनाचा नांवार करूंक चिंतलां.

जुलियाना : नीज जावन रेमी? तुवें म्हजें चिंताप वाच्लेंय? आमच्या भुरग्यां वशेन तीं.

विलफ्रेड : *(प्रवेश)* घूढ मॉरनिंग डेडी, मोर्निंग माम्मी. हांव तुमच्या उलवण्यांत मधें आयलों.

रेमी : तूं आयिल्लो वरो जलें विल्फ़ी. म्हाका तुजेलागीं गरज आसा. पूण तुजे विश्यांत हांव कितें आयकातारें? मोरे.. ड्रग्स.. कित्याक पुता आशें करताय? आंतोनावाक कळात जाल्यार कितें जायत म्हण हांव मंगोंक मकाना.

विलफ़रेड : तुजे कोणे तरी कान पुंक्ल्यात डेडी. हांव आनी ड्रग्स..? मोरे पियेना म्हण हांव मांगाना.

रेमी : तें कितेंयीं जांव, हांवें तुज्या बोर्याक मागचें. म्हजी एक आलोचन तुका तिळसुंक आसा. तूं म्हजो जांवंय म्हणटाना ही जवाबदारी हांव तुका दीवंक सक्तां.

विलफ्रेड : कसली अलोचन आनी कसली जवाबदारी?

रेमी : पळे विल्फ़ी.., मनश्याचें आवक ताच्या हातांत आसाना. आमच्या आस्तीक हक्कदार म्हण आसल्लें आमचें चेडुं देवाक मोगाचें जालें. त्या खातीर हांवें म्हजो वील करूंक चिंतलां.

विलफ्रेड : ताची कितें गरज डेडी? तुजा धुवेचो घोव, तुजो जांवोंय हांव. म्हाका तुजेर पूर्ण भरवासो आसा. तुमच्या उप्रांत ह्या आस्तिचो हक्कदार हांव. वील कित्या खातीर करूंक जाय?

रेमी : तें हांव जाणां विल्फ़ी. पूण म्हजी आलोचन वेगळीच आसा. हांवें म्हज्या आस्ती-वद्काचीं हक्कदारां म्हण डोरिन आनी मरविनाक विंच्लां. तीं प्रायेक पावता वरेग तांची आनी म्हज्या आस्तिची राकोण करूंक व त्रस्टी जावन हांवें तुका जवाबदारी दीवंक चिंतलां.

विलफ्रेड : हांव आम्ताना तुवें तुजी आम्त त्या भुरग्यांच्या नावार करुंक चिंतलांय?

रेमी : तुवें विचारल्ली रीत म्हाका पसंध जांवक नां विल्फ़ी. व्हय हांवें म्हजें आम्त–वधिक त्या भुरग्यांच्या नांवार करुंक चिंतलां. कित्याक ताणीं ह्या घरांत जिवाळ हाड्ला. आमच्या निर्मलाक सांगात दिला. ताच्या मोर्ना उप्रांत ताणीं आमकां मोग दिला. घर्चा सांद्यां वशेन ..

जुलियाना : गेलेत्या एका वरसांत कितले पावटीं तुवें आमची खबर काड्ल्याय? तुजा गर्जेक तूं आयलोय आनी गेलोय?

रेमी : त्या शिवाय तूं आंतोनावाचा आस्तिचो एक्लोच हक्क्दार.

विलफ्रेड : म्हज्या वापायक जायतें आसोंक पुरो. पूण हांव जिवांत आस्ता वरेग ही आस्त दुस्रयांच्या नांवार जांवक हांव दिंवचों नां. हांव निर्मलाचो घोव, तुमचो जांवोंय, हक्कान ही आम्त म्हाका मेळोंक जाय.

जोनी : *( प्रवेश )* आनी त्याच खातीर तूं निर्मलालागीं काजार जाल्लोय?

रेमी : जोनी तूं? इतलो तेंप खंयसर मायाग जाल्लोय?

जोनी : हांवें तुका भास दिल्ली मिस्टर कुलासो. पयश्यां खातीर तुजा घर्चो हुंवोंर पर्तुन केदिंच चड्चो ना.

विलफ्रेड : तर आज कितें गरज पड्ली तुका?

जोनी : हांवें तुका एक सवाल विमार्लें. तुवें म्हज्या सवालाची जवाव दिंवक नांय विलफ्रेड? हांव कित्या खातीर आयलां तें गर्जेचें न्हय.

जुलियाना : आमचें निर्मला आनी आंमकां ना जोनी. तें सरोन...

जोनी : हांव जाणां मिसेस कुलासो. हांव सगळें जाणां.. ..

विलफ्रेड : म्हजो विचार करुंक तूं कोण?

जोनी : ती म्हज्या सवालाची जवाव न्हय विलफ्रेड?

विलफ्रेड : तुजा सवालाक जवाव दीवंक हांव तुजो नौकर न्हय.

रेमी : तुमचे मधें चल्ना तरी कितें. हांव ह्या घर्चो व्हडिल. हांव कोणायचो नौकर न्हय. ह्या घराक संभंदित संग्तीं जाणां जांवचो संपूरण अधिकार म्हाका आसा.

विलफ्रेड : तूं ह्या मनश्याक पयलें घरांतलो भयर घाल. आमचें उलोवणें आमी उप्रांत करयां.

जोनी : कोण घरांतलो भयर व्हेतोलो तें तुका हांव दाकायतां विलफ्रेड.

रेमी : जोनी, विलफ्रेड म्हजो जांवोंय. ताचेर अधिकार चलोंवक तूं कोण?

जोनी : तुजा जांवयाचेर हांव किल्या खातीर अधिकार चलवन आसां तें तुमकां व्हेरगींच कळ्तेलें मिस्टर कुलासो. ताचेर तुमकां विशेष मोग आसा तर तुमची आस्त ताचे नांवार करूंक कित्याक पाटीं सरतात? हांव भितर सरताना तो तुमकां धमकी दीवन आसल्लो कित्याक?

रेमी : ती आमच्या कुट्मा भितर्ली संगत. तुवें तांतूं म्हेतेर जांवची गर्ज ना.

जोनी : तें तुजें चिंताप मिस्टर कुलासो. हांवें तुका सांगल्लें उगडास आसोंक पुरो. तुजें चेडुं म्हाका पसंध जालां. जर तर ताका कितेंयी वायट घड्लें हांव तुका जवाबदार करतोलों म्हण. हांव पयलें विलफ्रेडा थावन आनी उप्रांत तुजे थावन स्पष्टीकरण आपेक्शितां. निर्मलाचा मोर्नाक कारण कोण?

रेमी : निर्मलाचा मोर्नाक कोण काराण म्हण सांगचें जोनी. वोट्टारे आमचें नशिभ. चेडुं धंवलें. अनिस्त्यांच्या हातीं सांपोड्लें आनी जीव दीवंक पावलें.

जोनी : हें तूं कसो जाणा जालोय मिस्टर कुलासो? विल्फ्रीन तुंमकां सांगलें आनी ताच्या उत्रांक तुमी पातयेल्यात?

जुलियाना : तुजा उतरांचो मतलाब कितें जोनी? विल्फ्री थंयसर आसल्लो. ताच्या दोळयानीं ताणें पळेयलें आनी आमकां सांगलें. आमच्या चेडवाची जवाबदारी ताणे घेतल्ली. आतां एक वरस उत्रोन गेल्या उप्रांत आमचो उगडास कित्याक जिवो करताय?

जोनी : ताणे ताची जवाबदारी पाळुंक नां. देकुन म्हाका हें सवाल करूंक पड्लें मिस्टर कुलासो.

विलफ्रेड : हांवें म्हजी जवाबदारी पाळुंक नां? तूं म्हजेर आरोप मांडुन आसाय जोनी !

जोनी : म्हज्या सवालाक तुवें जवाब दिंवक नांय. तुजेलागीं हांव उप्रांत उलयतां. पयलें म्हाका मिस्टर कुलासोची झड्ती करुंक आसा. मिस्टर कुलासो, तूं एक नितिधार जावनासल्लोय. तुका कनूनाची म्हाहेत आसा. तर तुजे थावन असली महा चूक कशी घड्ली?

रेमी : म्हजे थवन कसली चूक घड्ली म्हणटाय जोनी तूं?

जोनी : पयल्या सुवातेर विलफ्रेडान मांगल्लें सत वा फट म्हळ्ळें तुवें निवयोर्कांत आसच्या भारताच्या कार्बार्यांक बरोवन या फ़ोन करन जाणां जांवक जाय आसल्लें. तें तुवें केलेंय?

रेमी : तें म्हाका गरजेचें म्हण दिसोंक नां. विल्फ़ी म्हजेलागीं कित्या खातीर फटी मारतोलो?

जोनी : तुजा धुवेचो तुका कितलो मोग आसा तें तुवें दाखोवन दिलेंय मिस्टर कुलासो. एक मार गेली म्हण तुजा मोतिंत भोग्लें असतेलें म्हण हांव मांगान तर चूक करिना म्हण हांव जाणां.

जुलियाना : आमच्या चेडवाचो आमकां मोग ना? मार गेली.. हें तूं कितें उलयताय जोनी?

जोनी : हांव सुडाळ कोंकणी भास उलयतां मिसेस कुलासो. आतां म्हाका विल्फ़ीलागीं उलंवक सोडा. श्रिमान आंतोनी गोमसाचो पूत विलफ्रेड गोमस, निवयोर्क शहारांत स्टार डोम होटेलाचा पांचव्या माळ्येर 514 नंब्राच्या रूमांत वस्ती करन आसल्लो. हांव सांग्तां तें खरें विल्फ़ी? गेलेतया वरसाच्या मार्च म्हहिन्याच्या 23 तारीकेर तुवें तुजें होटेलाचें रूम सोडलेंय.

विलफ्रेड : त्या वेळार क्हो आमेरिका आसल्ल्या बरी उलयता ! तुमी ताका मांगल्लेंगी डेडी हांव खंचा होटेलांत वस्ती करन आसां म्हण?

रेमी : तूं खंयसर वस्ती करन आसल्लोय म्हळ्ळें आमकां सांगोंक नांय तर ताका कशे मांगचें विल्फ़ी?

जोनी : आमेरिकाचें तुजें कार्याक्रम हांव तुजा वापाय थावन जाणां जालों विलफ्रेड. तूं आनी तुजो वापोय आंतोन गोमम दोगी पोटारी. तुमकां कितलें खेल्यारी तुमचें पोट वरना. तुमी दोगायनी मेळोन रेमी कुलामोची आम्त भितर घालुंक भोव मोंपी वाट धरली. निर्मलालागीं काजार, हनीमून आनी ताका वकात कर्चा निभान बोव पयशिल्या गावाक पयण. व्हा.. विलफ्रेड व्हा..! अपणाचा खास इष्टाक घात करूंक तुजा वापायक आनी तुका कांय भोगुंक नां?

विलफ्रेड : तूं कितें मांगोंक चिंताय जोनी? हांवें आनी म्हज्या डेडीन मेळोन आम्ती खातीर निर्मलाची खुन केली? पुरावे नासताना दुसर्यांचेर आरोप मांडुंक नोजो.

जोनी : व्हय विलफ्रेड, निर्मलाची खुनी तुवें करयल्याय. म्हाका निरापद्याक तुमी सगळ्यानीं मेळोन जैलाक दाडलो. पयश्यांच्या भळार तुमी फ़टकिरे पुरावे जमायले. पूण तुका आनी तुजा वापायक जैलाक दाडुंक म्हजेलागीं जायते पुरावे आसात. आनी त्या पुरावेच्यां आधारान तुजो वापुय श्रीमान आंतोन गोमसाचा हातांक मुंबायच्या फोलिस कमिषनारान खुद्द व्हचोन वासां घाल्यांत.

रेमी : हें तूं सत उलयताय जोनी? आमच्या निर्मलाची खुनी हाणे करायल्ली?

जुलियाना : अळे, पळे तो धांवलो. रेमी फोलिसांक फ़ोन कर.

जोनी : धावोंदी सिसेस कुलासो. तो धांवतोलो म्हण हांव जाणां आसल्लों. ह्या घरा भयर ताच्या नवया सावाद्याचे सयरे ताका स्वागत करूंक राकोन आसात.

जुलियाना : जोनी, आमकां माफ़ कर. आमचे थावन तुजें वायट जालें तरी तूं आमचें बरेंपण आशेताय.

रेमी : आंतोनावा थावन म्हाका असलो घात! म्हाका पात्येवंक कष्ट मारतात!

जोनी : आंतोन गोममा तसले, तांकां भेटल्या हरयेका व्यक्ती थावन फ़ायदोच चिंतात. तुवें ताच्या फाशेचो खांबो चुकोवन म्हज्या गळ्यांत घालोय.

देकुन तुका ताणे कुमोक केली. पयशे कामांवच्यो वाटो दाकोवन दिल्यो. तुजा जोडिचेर ताचे दोळे आमल्ले.

रेमी : तूं हें मगळें जाणां आमल्लोय तर आमच्या चेड्वाचें काजार कित्याक आडंवक नांय? तें तुजेलागीं काजार जाता म्हण रडताना, तुका जर तर आमच्या कुट्माची इतली खंत आमल्ली तूंच ताचेलागीं कित्याक काजार जांवक नांय? आज आमचें चेडुं जिवंत आसतें.

जोनी : मिम्टर कुलामो, तवळ हांवें म्हजी तक्ली तुजा पाया मुळांत दाडायिल्ली तरी तूं तयार जातो नांय. आज चेड्वाक होगडायिल्ल्या उप्रांत, तुजें चिंताप बदल्लां. हांव मनीम जावन जियेंवक आशेतांलों, तुमी म्हाका दितेनांत.

जुलियाना : आतां आमी आमचें मोगाचें वाळ होगडायलां. आतां म्हज्या घोवाचें मन्शापण जागें जालां. तोयी एक मनीम जावन जियेंवक आशेता. पूण अमेरिकांत कितें घड्लें तें तुका कशें कळ्ळें?

जोनी : कित्याक तुजा धुवेची खुनी जाताना हांव थंयसर हजार आसल्लों मिमटर कुलासो. तुमी म्हाका 5 लाख रुपय दिले. त्या पयश्यांचो वापार करचा खातीर हांवयीं आमेरिका गेलें.

रेमी : ताची खुनी जाताना, तुजे दोळे दांपुन तुवें म्हजेर फारिकफोण घेतलेंय जोनी?

जुलियान : आमचें चेडुं मोरताना पळेवन तुका वारिच खुशी जाली आमतेली न्हय? तुमचें चेडुं म्हाका पमंध जालां ! ह्यच खातीर तुवें ताका पमंध केल्लेंय?

जोनी : मनश्याचें चिंताप कितले व्हेग्गीं वदाल्ता न्हयगी मिसेम कुलासो? तोडया वेळा आदीं तुमी म्हाका होगोळसितेल्यात, आतां दुरसातात आनी तोडो वेळ हांगामर रावलों तर म्हज्या गळ्याक खुनिगाराचो पट्टो वांदुंक आमात. हांवें तुमच्या चेड्वाक म्हज्या पयल्या भेटेंत पसंध केल्लें. त्या रातीं हांवें ताका दोरयानीं वांदुन गाल्लें, पूण ताचें निमकळपण हांवें लुटुंक ना. विलफ्रेड ताचेलागीं काजार मात्र जालो.

ताणेंयी ताका हात वॉट लांवक नां. ताका तुमचें चेडुं नाका आसल्लें. तुमचें चेडुं म्हाका पसंध जल्ल्यान ताका हांवें खुनिगाराचा धांवले थावन वांचायलें. तुमचें निर्मला शवित्त आसा श्री आनी श्रिमती कुलासो. गेलेत्या एका वरसांत ताका एक मनीस जावन हांवें परिवरतित केलां. निर्मला, तुमी आतां भितर येवयेत. *( निर्मला, डोरिन आनी मर्विन प्रवेश )*

निर्मला : माम्मी, ड्याडी, हांव पाटीं आयल्यां.

जुलियाना : म्हज्या पुता, म्हज्या भंगारा...! तूं जिवंत आसाय? हांव सोपणेतां वा खरेंच देखतां.

रेमी : निम्मी म्हज्या बाये, म्हज्या आवलस्पोणान हांवें तुजेर सोर्नाचें फ़र्माण वाच्लें. म्हाका माफ़ कर. तुजी फ़ारिक्पोण घेंवची रीत हांव सेचवालों जोनी. तुजे कडे भोगसाणे मागोंक म्हाका उत्रां मेळानांत. आतां त्या बापुय-पुताक खंचो वकील वांचायता तें हांव पळेवन काण्घेतां.

निर्मला : जोनीन तांचा गळ्या वोंवारी पास आर्धिला. तुवें दोरी वोड्ची मात्र बाकी. हें काम तुवें बोव व्हेग्गीं संपोंवचें बरें. एका वरसा थावन जोनी म्हाका राकोन रावला.

जुलियाना : राकोन रावला?

निर्मला : तो म्हजेलागीं काज़ार जाता कंय.

रेमी : त्या पड्पोश्याचेर डैवोरसाची कॅस पयलें घाल्तां. तुमी फ़िकिर करिनाकात. तुमचें काजार व्हेग्गींच जातेलें.

डोरिन : निम्मी बायेचें पर्तुन काजार आसा?

मर्विन : आनी कितें तुजे सांगाता खेळोंक घरा रावतेलें? तें आतां आमचें आद्लें निम्मी बाय न्हय. ती आमेरिका रिटारन मादाम !

रेमी : जोनी, हांवे एक आलोचन केल्ली. म्हज्या आस्ती विश्यांतली. आमचें उप्रांत आमकां सोग दिल्ल्या ह्या भुरग्यांच्या नांवार ही आस्त करुंक चिंतल्लें. पूण आतां.....

जोनी : तुजा आलोचनेक निर्मला आड येंवचें नां. आनी म्हाका तुमच्या आस्तीचो एक पयशो नाका. तुवें दिल्ल्या 5 लाख रुपयांचो अरवाम वांटो आजून उरला. तो तुवें परत घेंवक जाय. म्हज्या खाम्गी गरजांक हांवें तो दुडु वाप्रुंक नां.

निर्मला : जोनीक ताचा शिक्षा तेकीत आमेरिकांत काम मेळ्ळां डेडी. ताचो पासपोर्ट करुंक ताका हांगाचा पोलिस कमिषनारान कुमोक केल्ली कंय. ताचे वरवीं हांव एक मनीस जावन तुमचे मुखार आज उबीं आसां.

जुलियाना : व्हय पुता, ताणे आमचे दोळे उगोड्ले. तुका नवें जिवित दिलें. आमच्या ह्या कृडिनीं उसवास आसासर आमी तुका ऋणी जावन आसतेल्यांव जोनी.

जोनी : ज्या दिसा हांवें निर्मलाक देख्लें, हांवें चिंतलें तुजा वायट करण्याची शिक्षा तुजा धुवे रुपीं तुका प्राप्त जाल्या. आंतोन गोमस आनी ताच्या पुताची आलोचन जाणा जाल्या उप्रांत हांवें तुका पुर्तो माफ़ केलो. तुजे थंय आज बद्लाप जालां जाल्यार ताका काराण हांव न्हय. तुजो कास इष्ट आंतोन गोमस. कित्याक राजकाराणांत कोणी इष्ट न्हय म्हण ताणे रुजु केलां.

डोरिन : निम्मीवाय यु गो अमेरिका नो?

निर्मला : नव ऐ स्पीक आमेरिकन इंगलिष; मै डीयर डोरिन एन्ड मर्विन !

*( दिवे हळ्तार पाल्वातात.. .. मुक्लो पड्दो सव्कास पड्टा. )*

# समाप्त







# हांव म्नीस जाल्लों!



पिंताम, देरेबैल